

NEHRU
BAL PUSTAKALAYA

# भारताचे बाल वीर

सिग्नुन श्रीवास्तव







नेहरू बाल पुस्तकालय

# भारताचे बाल वीर


सिग्रुन श्रीवास्तव

चित्रकारः
**रवी परांजपे**

अणकार :
दिलीप देशपांडे





नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया

# मांडावळ


















# निर्मला हार आनी सयाल

निर्मलाक सयाल ल्हानुभाई भोया आवड नाशिल्लें तिका हें समजनाशिल्ले की इतलेंच न्हय तर ताका तें मात्तूय आवडनाशिल्ले. कल्गीबेन म्हळ्यार सयालाचे आवयक लोक, ''तुजे व्हडले धुवेचेर नदर दवर, कल्गीबेन ती भोव सुंदर आसा. बेगिनूच तिच्या ओडलायण्या हांश्याक लागून तरनाट्यांचें तिचेकडेन मोगाचे नदरेन लक्ष वतलें.''

''ओडलायणो हांसो'', निर्मला रागान पुटपुटलें, ''हें कसलें हांसप, हें तर खिदळप.'' पूण ताका काळजांतसावन खबर आशिल्लें की सयाल ल्हानुभाई भोयाचें हांसप आकर्शित करपासारकें आसा. जें तिच्या मुखामळार रोखडेंच पातळटाले आनी ताचे दोळे मिचकल्ल्यावरी जाताले. ताचे ल्हान सपाट नाक मात्शें सुरकुतिल्लेवरी आशिल्लें आनी ताच्या मोव पोल्यांचेर दोन खळयो पडटाल्यो.

ताचें हांसप जरी ओडलायणें आसलें तरी ताचो चुरगळिल्लो पोलको आनी विटिल्ली साडी मात आकर्शक नासताली. ताच्या दोनूय मनगटांतल्या हस्तीदंती कांकणांची तुळा निर्मलाच्या हातांतल्या व्हडल्या कांकणांकडेन जावप शक्य नाशिल्लें. आनी गुजरातांतल्या भरताड ह्या ल्हानशा आदिवासी खेड्यांत कोणाकडेनूच. तिचेकडेन आशिल्ली इतली सोबीत माळ नाशिल्ली. ती माळ तांबड्या सुतान चकचकीत तांबड्या मणयांनी गुंथिल्ली आशिल्ली. ही गजाल सयालान लेगीत जेन्ना तें व्हाळाचेर कपडे उमळटालें, तेन्ना मान्य केल्ली.

''कितली सोबीत, निर्मला'' सयालान म्हणिल्लें, ''म्हाका लागिंच्यान पळोवं दी.''

पूण निर्मलान आपली मान अभिमानान घुंवडायल्ली आनी फातराचेर कपडे आपटुपाचें काम चालूच दवरिल्लें.

''पळे,'' सयालान रोखडेंच म्हळें, ''पळे. कोश्टी सुकणें!''

''तें कोशटी सुकणें न्हय. तें एक ल्हान शेवणें.''

''ना. निर्मला. ह्या सुकण्याची छाती हळडुवी आसा. आनी तूं ताका सुकणे कशें म्हण्टा !''

निर्मलान पर्थून एक फावट सुकण्याकडेन पळेलें. हय, तें वेगळेंच दिसतालें. सयाल सदांचे भाशेन बरोबर आशिल्ले ! आनी निर्मलाक सयाल ल्हानुभाय भोयाविशीं हेंच आवडनाशिल्लें की सदांच बरोबर आसतालें. खरें म्हळ्यार ते सदांच आपूण सगळेंच जाणा अशें समजतालें ! त खेड्यांत एकूच मनीस सयालाक शिकोवपी आसलो आनी तो म्हळ्यार गांवांतले प्राथमिक शाळे शिक्षक. सयालाक शाळा आवडटाली पूण निर्मला शाळा चुकोवन शेताचेर वचपाची प्रत्येक स सोडीनासलें.

''निर्मला, निर्मला'' ताचे आवयन ताका खोंपींतल्यान आपयलें. ''आठ जावन गेलीं गोरवां चरवाक व्हरूंक कोणूच ना. धांव मार बेगीन तांचेवांगडा शाण्या, शाळेंत आनीक केन्नाय वच.''

निर्मलान धांव मारली आनी गोरवांक धांवडायत तें खेड्यांतल्यान रस्त्याक लागलें. गांवच निमण्या वाठारांत ते एके मातयेचे खोंपीकडल्यान फुडें गेलें. थंय पोरनी आयदनां अस्ताव्यस पडिल्लीं. आनी तातूंत तीन कुकडां शिता - गोटे खातालीं. ते खोंपीमुखार एक णव वर्सां पिराये चली तांदूळ वेंचीत उकडयां बशिल्लें. ''विजयकुमार'' ताणें आपल्या लागसार बशिल्ल्या भुरग्या तापयलो. ''हरवे तांदूळ खावं नाका. तूं कांय सुकणें न्हय.'' तो भुरगो किटकिटून हांसलो आनी चलयेन निर्मलाकडेन पळेलें आनी हांसलें. ''तूं आयज गोरवांक खंय व्हरता निर्मला ?''

निर्मलान खांदे उडयले आनी सयाल ल्हानुभाईचे इश्टागतीचे भयणीकडेन दुर्लक्ष करपाचो य केलो.

''तूं व्हाळाकडेन कित्याक वचना, थंय तुका सयाल आपल्या गोरवांवांगडा सांपडटले.''

''गोरवां !'' निर्मलान विचार केलो. ''थोड्याशा बोकडांक गोरवां कशें म्हणप ?'' ताणे बळ हांसून म्हळें, ''इतले पयस मिराभाय.'' कांय फर्लांगां उपरांत ताणें गोरवांक व्हाळाचेर सोड आनी रानाकडेन गेलें, जंय गोरवांक चरपाखातीर बरें मोकळें मरड आशिल्लें.

रान दमट आनी उशण आशिल्लें. गुंगुल्ले ताचे तकले भोंवतणी नाचतालें. वातावरणा सुकण्यांचो खोसदिणो किलबिलाट चालू आशिल्लो. एक चानी पिंपळा झाडार चडटाली आनी ए पक्षी आपलीं पांखां फुलोवन मळबांत झेप घेतालो. निर्मलान त्या पक्षाचीं कांय काळीं आनी धव

तोंकाचीं पांखां सोदली पूण ताका कांयच मेळ्ळेंना. निर्शेवन ताणे एके म्हशीकडेन आपलें लक्ष वेधलें आनी म्हळें ''हम्मा, हम्मा.''

जेन्ना तें नितळ सुवातीचेर पावलें, तेन्ना तें रडपाचे मनःस्थितींत आशिल्लें. थंयसर वडाच्या रुखासकयल. ताचे आवडटे सुवातीचेर कोण तरी व्यक्ती बशिल्ली आनी ताची फाट रुखाच्या मुळसाकडेन आशिल्ली. सयाल ल्हानुभाई भोया. ताच्या बारा वर्सां पिरायेखातीर ल्हान आसून लेगीत ते थंयसर सपन पळेत बशिल्लें. ताचे दोनूय ल्हान हाडकुटे पांय दोडून घेवन बशिल्ले. ताणे विटिल्ले अर्दकुटे साडयेचो पदर आपल्या माथ्यार घेतिल्लो. जो ताचें पुराय आंग धांपूंक शकनाशिल्लो.

गायांच्या गळ्यांतल्या घुंगरांचो आवाज आयकून ताणें वयर पळेलें. ताणें निर्मलाक पळेनाफुडें ताच्या तोंडार हांसो पातळ्ळो. ''आगो, निर्मला! हांगा यो, सावळेंत यो.''

निर्मलान ताचेकडेन लक्ष दिनासतना आपलें लक्ष म्हशींकडेन आसा, अशें दाखयलें. ''हांव सकयल व्हाळाचेर वतां'' ताणें विचार केलो. ''आनी खंय वतले. पूण हाचेपासून पयस वतलें.''

''यो, निर्मला.'' सयालान आपयलें, ''तुका हांव कितें तरी खरेंच मजेशीर दाखयतां.''

मजेशीर! निर्मलाक सयालाच्यो मजेशीर गजाली ह्यो कितल्यो मजेशीर आसतात हाची जाणविकाय आशिल्ली. त्यो गजाली शाळेंतलेवरीच वाज हाडपी आसताल्यो. रागान ताणे जमनीवेल्या तणाचेर खोंट मारली.

गोरवां मोव आनी रसरशीत तणाच्या सोदांत आशिल्लीं. सरभोंवतणी पळेता आसतना निर्मलाचे दोळे एका झुडपाचेर गेले. थंयसर सावळी दिसताली. ते थोंपरभर उंचायेच्या तणांतल्यान वाट काडीत थंय पावलें.

''आगो निर्मला! हांगा कित्याक येना तूं?''

''हँ,'' निर्मलान आपलो राग परगटायलो.

''फूस्स''

ह्या आवाजाक लागून ताचे सगलें आंग थरथरलें. ताणे सरभोंवतणी पळेलें आनी सरळ पळेलें. थंय एक भिरांकूळ दोळ्यांचे जिवाणें. व्हडल्यांत व्हडलो सोरोप हार, सुमार १२ फूट लांबायेचो आशिल्लो. ताच्या पांचव्याचार करड्या आंगाचेर काळ्या भुरकट कोराचीं खापां आशिल्लीं. ताच्या

सकयल्या भागाचेर हळडुव्या आनी करड्या रंगाचे थिपके आशिल्ले.

निर्मलाचे हात आपोआप तोंडाकडेन गेले. ताका आड्डुपाचें आशिल्लें. पूण ताका तें शक्य जालेंना. तें तें सुवातीर स्तब्ध जावन उबें रावलें आनी त्या झुडपाकडेन आशिल्या हाराकडेन पळेत रावलें.

हारान पर्थून उसळी घेतली. ताणें पर्थून भिरांकूळ अशे फुत्कार घाले. निर्मलान आपले जिणेंत अशें पळोवंक नाशिल्लें आनी असो आवाजूय आयकूंक नाशिल्लो. ''वाटायात, वाटायात'' अशें ताका आड्डून धांवपाचें आशिल्लें पूण हारान ताचेर मोहिनी घाल्लेभशेन जालें. जाण्टी लक्ष्मीभाय सांगीते सारकें. तिच्यो सोरोप, मानगीं, व्हडल्यो पाली हांच्यो काणयो खऱ्यो आशिल्ल्यो! सोरोप लोकांचेर मोहिनी घालतात!

अचकीत हारान फुर्डें उडकी घेतली. त्याच वेळार ताणे आपली शेपडी वयर काडली आनी ताणे निर्मलाच्या थोंपराक दोन फावटीं वेटाळे घाले. आपल्या हाडांचो पिठो जालो, अशें ताका दिसले. दुखता आसतनाच निर्मला आड्डूंक लागलें. पूण दुखीपरस भिरांत चड बळिश्ट आशिल्ली! ''हांव आतां मरतलें'' ताणें विचार केलो. ''आवय गे, वाटाय!''

ताका हाराक धुकलून उडोरपाचें आशिल्लें. पूण तें ताका स्पर्श करूंक शकलेंना. ''हाराक हात लायल्यार'' तिका सांगिल्ले गजालीचो उगडास जालो. ''ताका लागून महारोग जाता.'' हो हार ताका जिवो गिळपाइतलो व्हड आशिल्लो. हय, कांय सोरोप तशें करतात, जाण्टे लक्ष्मीभायन तांकां तशें सांगिल्लें

भंयान दोळे विस्फारिल्ले आसतना तें वळवळपी जिवाण्याक पळेत उरलें. हारान निर्मलाचे कमराक रेवाडो घालपाची तयारी चलयली, पूण ताची ही चाल एका कोंड्याच्या थपक्यान आडयली.

सयाल! सयाल आयिल्लें.

हाराच्या मणक्याचेर निर्दयपणान एका फाटोफाट एक अशे कोंड्याचे थपके बसपाक लागले. हाराचे कुडींत लेगीत ताचे परिणाम जाणवपाक लगले. पूण ताणे आपली पकड मात सोडलीना.

''सयाल, सयाल!'' निर्मला आड्डूंक लागलें, ''हांव मरतां.''

''ना, ना, तूं मरचेंना!'' सयाल आड्डलें तेन्ना तें हाराचे पकडींतल्यान ताका सोडोवपाचो

यत्न करतालें.

''म्हाका वीख भिनिल्लेवरी दिसता' निर्मलान म्हळें.

''हो हार आसा'', सयालान रोखडेंच म्हळें.

''तो विखारी न्हय.''

''पूण हांव हालूंक शकना.''

''तूं भियेलां आनी तुका धक्को बसला. ताका लागून तूं हालचाल करूंक शकना. हांव तुका आदार करता.''

कोंड्याचे बडयेचो व्हडल्या हाराक मारपाक व्हडलोसो उपेग ना जाल्ल्यान सयालान ती भिरकटावन दिली आनी आपल्या हाताचो वापर केलो. ताणे हाराच्या जबड्याक हात घालो आनी तो उक्तो करपाचो यत्न केलो.

''आगो तुका तो चाबतलो सयाल.''

''तो चाबचोना.'' सयालान जबड्यांत हात घालतना म्हळें, ''तो चाबचोना.''

''तो म्हजे पांय मोडटा. आवय गे.''

''शांत राव निर्मला, शांत राव निर्मला.''



निर्मलान आंवडो घोंटलो. ताणे सयालाच्या तोंडाकडेन पळेलें. ताचे दोनूय हात सोरपाचें तोंड बळयां उगडपाचो यत्न करताले. सयालान आपले दांत घट्ट आंवळून हाराच्या तोंडांत हात भितर घालपाचो केल्लो यत्न निर्मला पळेतालें. ताच्या कपलाचेर हूम आयली आनी ताच्या हातांतल्यान रगत भायर आयलें हें सयालाचें काय ताचें स्वताचें ?

हारान हिंसकपणान प्रतिकार केलो. तो लेगीत बळिश्ट आशिल्लो. सयाल ताचेकडेन संघर्श करूंक शकलेना. सोरोप दोगांकूय मारून उडयना मूं!

पूण अचकीत हाराचो जबडो उक्तो जालो

''आगो, तुजे पांय सोडय. खोंटाय, खोंटाय !'' सयाल आड्डलें आनी हाराचो जबडो आपले तांकेनीशीं धरून रावलें. ताच्या पांयाचेर खोंट मारून वळवळून तडफडून हारावरीच निर्मलाक धुकल्लें आनी ओडलें. ताच्या पांयावेलें चेपण मात्शें उणें जालें. आतां आनीक एक खोंटीचो धपक्को, आनीक एक फावट ओडप मागीर ताची सोडवणूक जातली सोडवणूक ! निर्मला कुशीक उसळून पडलें. पूण तणाचेर संघर्श चालूच आशिल्लो, पयलींपरस भिरांकूळ.

''धांव'' सयाल आड्डलें, ''निर्मला तुका वाटय, धांव !'

पूण निर्मला तशें करूंक शकलेंना ताका रावचें पडलें, आदार करचो पडलो. पूण कसो ? ताणे असहाय्यपणान सयालाच्या हाडकुळ्या खांद्याकडेन पळेलें. जें हाराक पयस दवरपाचो यत्न करतालें.

हारान पर्थून एक फावट भिरांकूळ असो फुत्कार सोडलो. ताचे तकलेन एक झटको दिलो, तो सयालाचे छातयेलागीं पावलो. जबडे वेगळे धरून तें चली फाटीं सरलें आनी म्हायडोळावेले दोळे काडीनासतना ताणे आनीक एक फावट आरड मारली की - ''धांव, धांव, निर्मला. वच.''

''सयाल, सयाल'' निर्मला रडूंक लागलें. भयान गारठल्ल्या निर्मलाक सयालाचेर संतापिल्ल्या हारान हल्लो केल्लो पळोवपाची वेळ आयली.

''सयाल ! आगो सयाल !''

''धांव, धांव !'' सयालाची ही उतरां फुतफुतिल्लेपरस चड व्हडान नाशिल्लीं.

उप्रांत सयालान ताकाच खबर नाशिल्ली आपली सगळी शक्त एकठांय करून त्या हाराक पयस उडयलो. तें आपल्या पांयांचेर उबे रावलें आनी हार पावचोना इतल्या अंतराचेर पावलें.

''धांव निर्मला, गोरवांकडेन चल.''

निर्मला धांवलें. ताणे फाटल्यान लेगीत पळेलेंना, तें शक्यूच नाशिल्लें. तें केन्नाच फाटीं पळोवचें नासलें. तें पळत रावलें, पयस, पयस!

कांय मिनटां उप्रांत सयालान ताका धरलें आनी आपल्या हातांनी ओडलें. दोगाय धांवत सुटलीं आनी थंय थांबली, जंय तांची गोरवां शांतपणान चरतालीं.

दोगांनीय एकूय उतर काडिनासतना एकामेकांकडेन पळेलें. निर्मलाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळटालीं आनी ताचे ओंठ थरथरताले. ''रडूं नाका'' सयालान म्हळें, ''म्हाका खात्री आसा कीं तूं बरें आसा.''

''हय, पूण सयाल, तो म्हायंडोळ. तूं नाशिल्लें जाल्यार तो म्हायंडोळ म्हाका...''

''आतां ताचेविशीं उलोवंच नाका. आतां सगळें बरें आसा.''

निर्मलान सयालाकडेन पयलेच फावटी पळेल्लेभाशेन पळेलें. ''सयाल'' ताणे म्हळें, ''म्हाका तुका माळ दिवपाची आसा.''

''पूण कित्याक, निर्मला कित्याक? म्हाका खात्री आसा की तूं लेगीत म्हजेखातीर हेंच करपाचें!''

''निर्मलान आपली मान हालयली आनी ताच्या पांयांकडे पळेलें. थोड्याच वेळान ताणे म्हळें, ''म्हाका खबर ना. म्हाका खरेंच सांगूंक जायना.''

उप्रांत ताणे आपल्या थरथरत्या बोटांनी माळ काडली. ''ही माळ घे'' ताणे आग्रो केलो.

सयाल ल्हानभाई भोयान त्या चलयेच्या दोळ्यांत खूब वेळ पळेलें. ताच्या मुखामळार हांसो फांकलो. ''हांव घेतां'', ताणे ल्हवूच म्हळें, ''हांव घेतां.''

# एका खिणाचो कळाव

गोविंदन शाळेची घांट केन्ना वाजतली, हाची वाट पळेतालो, ती ताका शाळा आवडनाशिल्ली म्हूण न्हय तर ताका शाळा आवडटालीच आनी इंग्लीश शिकोवपी शिक्षिका श्रीमती शित्रा लेहा ही ताका खूब आवडटाली.

गोविंदन, हो तामिळनाडूंतल्या कुरुबरापल्ली माध्यमिक शाळेंतल्या आठवेच्या वर्गाचो मुखेल आशिल्लो. ताका अभ्यास करप आवडटालें. पूण तेचवांगडा खेड्यांत हेडप आनी ताका आवडा अशो गजाली सोदून काडप हें ताका आवडटालें आनी १३ वर्सांच्या भुरग्याक पूर्विल्ल्या नटराजाचें देवूळ जें पल्लव घरण्यान बांदिल्लें, तें जर आवडलेंना जाल्यार अजापूच म्हणपाचें. त्या देवळांत रवी आनी तो शाळा सुटलेउपरांत मेळटाले.

''गोविंदन.'' श्रीमती शित्रा लेहा हांच्या ह्या उतरान गोविंदनाक भानाचेर हाडून वर्गांत हाडून सोडलो. एक धपको बसून तो जागो जालो. आपले मुदयाळे केंस आत्मविस्वासान फाटीं घुंवडावन तो सुवातीचेर नीट बसलो आनी शिक्षिकेच्या प्रस्नांक तोंड दिवपाची ताणे तयारी केली.

''यस. मॅडम ?''

''ह्यो चोपड्यो आनी पुस्तकां घे आनी म्हज्या घरा व्हरून दी. शाळा आतां रोखडीच कांय मिंनटांनी सुट्टली. तूं आतांच वचूंक शकता.''

''यस, मॅडम.''

गोविंदनान आपलें कॅनवास दप्तर हिसकावन घेतलें. दाराकडेन वतना ताणे रवीकडे पळेलें. ताणे जाणूनबुजून ताका धक्को मारलो आनी ताचेकडेन हेतूपूर्वक दोळे मारले. ते जानकीरामाच्या गोड आडसरांच्या गाड्यालागीं सदांचेवरी मेळटले.

पूण ३ सप्टेंबर १९७९ दिसा गोविंदन आनी रवी हांची तांणी थारायिल्ले प्रमाण भेट जाली ना...

एकदां भायर सरतकच आपल्या हातांत पुस्तकां घट धरून गोविंदनान सरभोंतवणी पळेलें, कुरुबरपल्ली शाळेच्या रस्त्यामुखार मोडणां मोडणांनी शेतां आशिल्लीं आनी माडय आशिल्ले. तातूंतल्यान रस्तो वतालो. ताचे दावे वटेन दोन मैल पयस चुडटांनी शाकारिल्ल्या घरांचें खेडें दनपारच्या वतान व्हावन गेल्लें दिसतालें. आनी खेड्याचे भायर नटराजन देवळाचे भग्नावशेश ताका दिसताले.

शाळेचे मुखार रस्त्याचे दावे वटेन एक ट्रक थांबिल्लो. ताचे फाटल्यान एक मनीस आयलो, ल्हव ल्हव आपल्या लटपट्च्या पांयांनी आयलो.

हो ड्रायव्हर आसलो! ना. हो मनीस खुबूच जाण्टो दिसतालो. ताणे जे तरेन आपली मान वांकडी केल्ली ताचेवेल्यान किदें तरी वेगळेंच दिसतालें. किदें तरी अनवळखी अशें ताच्या दोळ्यांत जाणवतालें. अनवाणी आनी एक विटिल्ली लुंगी आनी हातांत एक बडी घेवन तो जमनीचेर तेंकून फुडें सरतालो. उजव्या हातांत ताणे एक थाळी धरिल्ली आनी ती थरथरताली.

''हो भिकारी'', गोविंदनान म्हळें, ''आरे देवा, हो तर कुड्डो!''

एक दयेचें ल्हार ताका चादून गेलें. गोविंदनान आपले चेड्डेच्या बोल्सांत हात घालो आनी उप्रांत वयलीं बोल्सांय पयशांखातीर सांसपून पळेलीं, पूण ताका नाणे मेळ्ळेंना. ताका दिवपासारकें आपलेकडेन कांयच ना! ''एकाद्रें म्हज्या शाळेच्या दप्तरांत किदें तरी दिवपासारकें आसतले'' ताणे विचार केलो.

ताणे आल्या दप्तरांत सोदपाखातीर म्हूण सकयल बागवून हात घालो. अचकीत ताका एका मोटार इंजिनाचो आवाज आयकुपाक आयलो. ताणे तकली वयर काडून रिकाम्या हमरस्त्याकडेन पळेलें. एक लॉरी व्हडा वेगान येताली.

''ती इतली वेगान कित्याक वता?'' गोविंदनान अजाप उक्तायलें. ''ड्रायव्हराक फुडल्या मोडणावेलो पार्क केल्लो ट्रक वा ताचे फाटलो कुड्डो मनीस दिसचोना इतल्या वेगान हो ड्रायव्हर गाडी चलयता.''

''पळे.'' तो कुड्ड्या मनशाक उद्देशून आड्डलो. ''एक लॉरी सरळ तुजेवटेन येत आसा.''



उप्रांत ताका आपल्या उतरांची विफलता कळ्ळी. तो जाण्टो मनीस कुड्डो आशिल्लो. ताका लॉरी दिसची ना. खंयचे वटेन वचप हें ताका कळप शक्य नाशिल्लें.

तो भिकारी रावलो आनी आपली तकली ताणे सगळे वटेन घुंवडायली. ताच्या चेऱ्याचेर घुस्पागोंदळाचो भाव आयलो. ताणे सरळ गोविंदनाकडेन पळेलें. ताचेकडेन पळेलें पूण तो ताका दिसलोना. आनी दोंगराचे वटेन ती लॉरी वाडव्या वेगान येत रावली.

''आरे देवा, म्हाका आतां कितें तरी करूंक जाय.'' गोविंदान आले दप्तर आनी आठवेच्या वर्गाचो ३८ पुस्तकांचो पेळो थंयच उडयलो. आपले हात पसरून तो व्हडा आवाजान आड्डलो ''राव, राव... तो भिकारी , तो भिकारी...'' उप्रांत ताणे जाण्ट्या मनशाकडेन धांव घेतली. जो रस्त्याचे मदेगत असहायपणान उबो आशिल्लो. ''धांव!'' गोविंदनान म्हळें, ''धांव तुका वाटाय.''

पूण ताका खबर आसली की जाण्टो मनीस धांवचोना. जर कोणेय धांवूंक जाय आसत, जाल्यार तें तांणेच सी. गोविंदनान. पूण ताका तें आतांच करचे पडटलें. त्याच खिणाक. एकूय खीण वगडायनासतना. नाजाल्यार खूब कळाव जाल्लो आसतलो.

गोविंदनान फुडें झोंपय घेतली. तो रस्त्याचे दिकेन धांव घेवन लॉरीचे दिकेन ''राव राव वेग कमी कर'' अशें आड्डूपाक लागलो.

लॉरीच्या ड्रायव्हरान आपली मान हालयली. ''पळे, ह्या खेड्यांतल्या भुरग्याकडेन'' ताणे विचार केलो. ''घरा वचपाखातीर म्हूण राव म्हण्टा ? तो करता कितें ! तो रस्तो हुपून वचूंक शकता, कितें करता ? आरे देवा. कितलो मूर्ख !''

ड्रायव्हरान हॉर्न वाजयलो आनी आपली सगळी शक्त एकठांय करून ब्रेकाचेर पांय दवरलो. ''आपूण नसरलों जाल्यार'', ताणे विचार केलो, ''आपलो शेवट जातलो.''

वेगाच्या झटक्यान गोविंदन जाण्ट्या मनशामेरेन पावलो आनी ताचेर उडी घेतली. जाण्टो मनीस धडपडलो. ताच्या हातांतल्यान बडी आनी थाळी पयस पडली. उप्रांत गोविंदन आनी तो दोगूय जमनीचेर शेंवटले.

जमनीर पडटना त्या जाण्ट्या मनशाचो पुराय भार गोविंदनान आपल्याचेर घेतलो. ते रस्त्याचेर इतल्या नेटान आदळ्ळे. ते म्हळ्यार विमान अपघात जाल्लेभाशेनूच. रस्त्यावेले रेंवेचेर पडिल्ल्यान गोविंदनाच्या धोंपरांक मार बसलो. तो दोळे धांपून सकयल पडलो.

लॉरी त्याच वेगान फुडें गेली. त्या भुरग्याक आनी जाण्ट्या मनशाक कांय इंचांनीच चुकोवन ती लॉरी सुमार वीस यार्डांचेर वचून रावली. ''आरे देवा, देवा'' भिकारी आड्डलो. ''कितें घडटा?''

गोविंदनान आपले दोळे बळयां उगडले आनी एका दोळ्याचे पोकळेन पळेले. ताणे जाण्ट्या मनशाक उद्देशून म्हळें, ''आमी बरे आसात आजोबा, भियेवं नाकात.''

जाणट्या मनशान खांक काडली आनी म्हळें, ''म्हाका कांयच कळना. हांव, हांव, म्हजी बडी खंय आसा. म्हाका म्हजी बडी जाय. बडयेबगर हांव शेणिल्लेवरी जातां.''

''हांव ती तुमकां सोदून दितां, आजोबा'' गोविंदनान म्हळें, ''उठात, आजोबा उठात.'' ताणें जाण्ट्या मनशाक उठपाक आदार दिलो आनी ताचो हात धरून रस्त्याचे कुशीक हाडलो.

अचकीत ताच्या धोंपरांतल्यान कळो येवपाक लागल्यो. ताचो हात दुखपाक लागलो. ताच्या पोल्यांतल्यान रागत येवपाक लागलें. आपल्या हातांनी ताणे तें पुसून काडलें आनी जाण्ट्या मनशाची बडी खंय आसा, म्हूण पळोवंक लागलो.

उप्रांत ताणे पळेलें की लॉरीचो ड्रायव्हर तांचेच वटेन येतालो आनी आपल्यो मुठी वळून हिंसकपणान पळेतालो. ताचे तकलेवेली तोपी कपलावेल्यान फुडें आयिल्ली आनी ताचे दोळे तिडकीन तांबडे जाल्ले. ताणे आपले भाशेंत कितें तरी म्हळें तें गोविंदनाक कळ्ळेंना.

ड्रायव्हर इतलो रागार कित्याक? गोविंदनान त्या मनशाक वाटावपाखातीर जाय तें सगळें केलें. ती जाण्ट्या मनशाची लेगीत चूक नाशिल्ली. ''ना, ना.'' गोविंदन आड्डलो आनी तो भिकाऱ्या मुखार संरक्षणाखातीर येवन रावलो. ''हांव सांगता.''

ड्रायव्हरान लक्षूच दिलेंना. तीन पावलां घालून तो भुरग्याच्या लागी येवन रावलो आनी ताचो शर्ट धरून ताका नेटान हालयलो, ''म्हजें आयकात'' गोविंदनान म्हळें. पूण जेन्ना तो मनीस ताची भास उलोवंक शकना, तेन्ना तो खुलासो कसो करतलो ?

गोविंदनान हातवारे करून मोडके तोडके इंग्लीशींत म्हळें, ''जाण्टो मनीस.. कुड्डो. पळोवंक शकना. ट्रक पळोवंक शकना.''

ड्रायव्हरान आपली मूठ धमकेच्या उद्देशान वयर उखलली. पूण मार केन्नाच बसलोना.

अचकीत आवाज आयले. ''धर ताका !'' कुरुबरपल्लीच्या माध्यमिक शाळेंतले विद्यार्थी म्हेंवा - मुसांवरी रस्त्यार आयले. ''धर ताका, धर ताका, ताणे गोविंदनाक धरला !'''

अजाप जाल्ल्या ड्रायव्हरान सरभोंवतणी पळेलें. ताणे आपलो हात उबारलो आनी कितें तरी आड्डलो.

''ताका सोड. ताका सोड.'' भुरगीं आड्डुपाक लागलीं. ''गोविंदन, आमी येतात. ताका सोड. नाजाल्यार आमी तुका मारतले.'' आनी ते ड्रायव्हराचेर तुटून पडले. ते ताका मारपाचेच इतल्यात एक आवाज आयलो, ''भुरग्यांनो, भुरग्यांनो कितें चल्लां. रस्त्यार सावन पयस रावात. आमकां हांगा अपघात जाल्लो नाका. रस्त्यार सावन पयस रावात. तुमकां आयकूंक आयलें !''

नाखुशीन भुरगीं हमरस्त्यावेल्यान कुशीक सरलीं आनी रागान कुजबुजली. ''भित्रो. ताका बंदखणींत धाडूंक जाय.''

मुख्याध्यापकान मायेन आपलो हात गोविंदनाचे तकलेर दवरलो. ''कितें जालां तें हांवें पळेलां. हांव तुजो अभिमानी आसा. एका खिणाचो लेगीत कळाव जाल्लो जाल्यार हो जाण्टो मनीस मरपाचो. म्हाका ड्रायव्हराकडे उलोवं दी.'' अशें म्हणून अजून रागार आशिल्ल्या त्या मनशाकडेन तो वळ्ळो. ''तुका इंग्लीश उलोवपाक येता ?'' ताणे विचारलें.

''मात्शी येता. म्हाका सांगू दी की तुजे शाळेची भुरगीं..''

''मात्सो राव. गोविंदनान रस्त्यावेल्यान कित्याक झोपय घेतली हें हांव तुका सांगता.''

भुरग्यांनी त्या दोनूय मनशांकडेन पळेलें. तांची नदर ड्रायव्हराचेर आशिल्ली. ताचो चेरो रोखडोच देंवलो. जेन्ना तो पुटपुटलो, तेन्ना ताच्या आवाजांत कातरता आशिल्ली. ''अशें आसा तर'' उप्रांत तो गोविंदनाकडेन आयलो आनी ताणे आपले मोडके - तोडके इंग्लीशींत म्हळें, ''म्हाका दुख्ख भोगता, म्हाका दुख्ख भोगता.''

# हांव जळटां

पाटणाच्या भौशीक हॉस्पिटलांतल्या अती दक्षता विभागांतले खाटीवेल्यान तिणे ओणोव घेतलो, तेन्ना तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळ्ळीं. आनी तिणे धवे बँडेजीन गुठलायिल्ले आपले चलयेकडे नदर मारली. तिणे म्हळें, ''सोनिया, म्हज्या सोनिया ?''

सोनिया सिन्हान जाप केली ना. तें मातूय हाललेंना. तें अजून जितें आसलें ? ताचें काळीज अजून चलतालें ?

''दोतोर, म्हजें भुरगें मरता ?'' बायलेन भिरांतीन विचारलें. ''दोतोर, नर्स तिका वाटयात'' तिणे होळोम घालो.

दोतोरान ते बायलेच्या खांदार हात दवरलो आनी तिका जनेलाकडेन व्हेली. ''विस्वास दवरात, श्रीमती सिन्हा, आमी आमचे पुराय यत्न करतात.''

''म्हाका खबर आसा, दोतोर, म्हाका दूख भोगता. पूण इतल्यानूच म्हजो घोव भायर पडला आनी आतां चली लेगीत त्याच मार्गार आसा, हें हांव सहन करूंक शकना. उपकार करून ताका वाटायात.''

''आमी शक्य आसा, ते सगळें करीत आसात, पूण तें पुराय लासलां. आतां सगळें ताचे तांकीचेर आनी इत्सेचेर आदारून आसा.''

''पूण दोतोर, तें हांगासर तीन सप्तकां आसा.''

''ताका अजूनय तीन म्हयने वा ताचेपरस चड दीस बरे जावपाक लागतले.

''आवय देवा.''

''रडूं नाका श्रीमती सिन्हा. सोनिया हें एक धैर्यवान चली आसा. नाजाल्यार ताणे जें केलां तें तें चली करचें नाशिल्लें.

सोनिया सिन्हान आपलो धाकलो भाव आनी भयण - ल्हान शनत हांचो श्वासोश्वास आयकलो. शनत हालींच उलोवंक शिकिल्लें आनी पांच वर्सांचें शालीनी न्हिदेंत लेगीत मोगाळ दिसतालें. ताचो झालर लायिल्लो रातीं घालपाचो सुती झगो वयर सरिल्लो. आनी पुराय नेटान घुंवत आशिल्ल्या पंख्याकडे ताची फाट उक्ती आशिल्ली.

''हांव ताका धांपतां.'' सोनियान विचार केलो आनी अचकीत ताका जाणवले की, तें आतां आपल्या आजोळा पाटण्यांत रावता आनी तांचेपसून खूब पयस आसा. ते थंय सेंट जोसेफ कॉन्व्हेटांत शिकतालें. ताका शाळा आनी शिक्षक आवडटाले, पूण ताची इत्सा आसली की बिहारांतल्या आराख ह्या ल्हान गावांत शिकचें. जंय ताचो बापूय सरकारी हॉस्पिटलांत भुरग्यांचो दोतोर म्हूण काम करतालो. पूण ताका बापायन सांगिल्लें, ''म्हज्या भुरग्यांक सगळ्यांत बरें शिक्षण मेळचें. ताचेवरवीं तांकां जिणेंतली सगळीं दारां उक्तीं जातलीं.''

सोनिया सिन्हाक जिणेंतलीं दारां म्हळ्यार कितें तें समजनाशिल्लें. पूण तें जाणटालें की ताच्या आवय - बापायक ताचें कल्याण खंय आसा तें खबर आसलें. तेचखातीर ताणे आक्षेप घेतलोना आनी अभ्यास नेटान करपाक सुरवात केली. तें फकत सुटयेच्या दिसांनी घरा येतालें तशेंच कांय खाशेल्या दिसांनी म्हळ्यार कालचे भाशेन ताच्या इकराव्या वाडदिसा घरा आयिल्लें. कितलो खोशयेचो दीस आसलो तो! ताचे सगळे इश्ट, काका, काकी, चुलतभांवडां आयिल्लीं. ताणे एक निळ्या रंगाचो नवो फ्रॉक घाल्लो. जाका धवी झालर आशिल्ली आनी काळ्या केंसांक एक धवें रिबन बांदिल्लें. वाडदिसाच्या चॉकलेटी केकाचेर इकरा मेणवातीच्या उजवाडांत ताचे व्हडले तांबूस दोळे चकचकताले. कितलो खोशयेचो वाडदीस आसलो तो! इकरा वर्सांचें जावप ही कितली खोशयेची गजाल आनी आपल्या आवय - बापाय वांगडा आनी भांवडां वांगडा आसप म्हळ्यार खोसूच.

शालीनी थरथरलें. ताका लागून सोनिया परत सपनांतल्यान भानार आयलें. सवकास तें हांथरुणांवेल्यान कुडीभायर गेलें आनी आपले भयणीचो रातीचो झगो ताणे ओडलो. जेवणाचे कुडींत ताचे आवय - बापूय जेवतना उलयताले.

''मात्शें पळे गॅस सिलिंडराच्या व्हाल्वांत कितें तरी मोडलां शें दिसता, आनंद. तें इतलें घट आशिल्लें की हांव तें उक्तें करूंक शकलोंना.

''हांव तें जेवलेउपरांत पळेतां.''

''म्हाका दिसता की तें तूं सारकें करूंक शकतलो. हे उणट हवेंत केरोसीनच्या स्टोवाचेर रांदप अशक्य आसा. ओ, उदक अजून खतखतता. म्हाका तें काडपाक जाय.''

सोनियाक दिसलें की आपणे आपल्या आवय - बापाय वांगडा उलोवचे. पूण ताका खबर आसलें की इतले रातचें आपूण जागें आसप हें आपल्या बापायक आवडेचेंना. देखून तें न्हिदलें. आनी आपल्या वाडदिसाच्या स भेटींची याद काडटनाच तें सुस्त न्हिदले.

***

''ओ''.

सोनियां आपल्या हांथरुणार उठून बसलें. कोण तरी रडलें? शनत? शालीनी? न्हिदिललेकडेन ताणे एक नदर मारली. आनी सोनियान सुटकेचो श्वास सोडलो. ताका दिसलें की आपणे एक वायट सपन पळेलें. ताचें काळीज अजून धडधडटालें. ताणे कूस परतिली आनी न्हिदपाक लागलें, तितल्यान ताका आपले आवयचो आवाज आयकूंक आयलो.

''यो, आनंद व्हाल्व विसरून वच. गॅसाक उजो लागला. आनंद तूं लासतलो. आनंद.''

''ना, माया हांव तें बंद करतलों'' ताणे आपल्या बापायचो आवाज आयकलो.

''पूण उजो! आनंद भायर यो, भायर यो.''

अचकीत तो वेदनेन कळवळ्ळो. ''धांव माया, तुका वाटाय! भुरगीं, भुरगीं. आवय, देवा.. धग.''

सोनियान हांथरुणांतल्यान उडी मारली. ''पापा, पापा'' एका खिणांत तें जेवणाचे कुडींत पावलें.

जेवणाचे कुडींतल्यान कांय फुटांचेर ताणे आपले आवयक पळेली. आवय आपले ओंठ दामून थरथरत उबी आशिल्ली. तिणे रोखडेंच फुडें वचून आपल्या धोवाचो हात धरलो. तो जेवणाचे कुडीच्या दारांतल्यान धडपडलो आनी तिच्या हातांत येवन पडलो. ती ताच्या वजनान लागी लागीं सकयल पडली.

जेवणाचे कुडींतल्यान धगाचो एक गुळो सोनियाच्या तोंडार पडलो. गॅस सिलींडकराक उजो लागिल्लो. ताचो खंयच्याय खिणाक स्फोट जावं येतालो! ''वारो, वारो, आमकां वारो जाय'', सोनिया आइडलें. ''मम्मी, हाल हांगाच्यान.''

पूण धक्को बशिल्ले ताचे आवयन फकत इतलेंच म्हळें की, ''आनंद, आनंद तो बेशुध्द जाला.''

सोनियान फुडें धांव मारली आनी आपल्या बापायचे खांदे ताणे धरले. ताच्या नाकांत एक भाजल्ल्या मांसाचो कुजट वास सरलो. ताका घुस्मटिल्लेवरी जालें. ताणे आपल्या बापायवटेन पळेले आनी आंग काडलें. बापायचें तोंड भाजिल्लें आनी ताची कात तांबडी जाल्ली. ''पापा.''

''ओड! मम्मी, ओड!'' तें आइडलें आनी ताणे आपल्या बापायक जेवणाचे कुडींतल्यान भायर काडलो. ''वचात, भायर वचात.''

सोनिया आनी ताची आवय नेटान श्वासोश्वास करताली. उशण हवेन तांचे दोळे जळटाले आनी तांच्या पुल्मावांतूय दुखतालें. ती तेच स्थितींत कशींतरी आपल्याक सावरून मुखेल दारांतल्यान सोपणा हुंपून भायर हिरवळीचेर पावलीं, उपरांत तणाचेर कोसळ्ळीं.

''श्रीमती सिन्हा, श्रीमती सिन्हा, कितें जालां?''

सोनियान आपली तकली वयर काडली आनी सहानुभूमी दाखोवपी आपल्या शेजाऱ्यांकडे पळेलें.

''आरे देवा!'' जाण्टी घोव - बायलां लागीं पावली, तेन्ना तांणी म्हळें. ''दोतोर सिन्हाक कितें जाला?''

''गॅस'', श्रीमतीन सिन्हान म्हळें, ''गॅस, आवय देवा, म्हजो घोव.''

''आनंद, आनंद'' ती आइडली आनी आपल्या घोवाचे कुडीचेर कोसळ्ळी.

''आमी मदत घेवंक जाय.'' जाण्टे बायलेन म्हळें. ''बेगीन वच, विनोद. ॲम्बुलन्सीक फोन कर. हांव हांगा रावतां.''

जाण्टो मनीस धांवत रस्त्याकडे गेलो तेन्ना ताची बायल श्रीमती सिन्हाचे फाटीचेर मायेन हात दवरून म्हण्टाली. ''हुस्को करूं नाका, बेगीनूच हांगा मदत पावतली.''

अचकीत सोनियाक शालीनी आनी शनताची याद आयली. ''आरे देवा'' ताणे म्हळें आनी

ताचो चेरो थवो जालो.

एका खिणात तें आपल्या पायांर उबें रावले आनी ताणे घराकडे धांव मारली. ''शालीनी, शनत. ते घरांत आसात.''

''सोनिया, राव'' ताणे आयकले. जाण्टी बायल आड्डताली पूण तितले मेरेन तें घराच्या दारांत पाविल्लें आनी ताणे दार ओडलें.

लोखंडाच्या हातान तोंडार थापट बसचें, तेचभशेन घरांतलो धग ताच्या तोंडार बसलो. सिलींडराच्या उज्याक लागून जनेल नाशिल्ल्या जेवणाचे कुडीचें रुपांतर एके धगधगीत भाटयेंत जावन थंयचे सगळें सामान लासून वितळटालें.

एका धक्क्यान थंयचीं आयदनां आनी कंवचेच्यो हेर वस्तू जमनीर कोसळ्ळ्यो. उप्रांत जनेलाच्यो कांबी सकयल पडल्यो आनी तातूंत न्हिदपाचे कुडींतल्यान वाटावपाखातीर मारिल्लो उलो आयकुंकूच आयलोना.

शालीनी ! शनत ! आरे देवा, ते जळटात !

दीर्घ श्वास घेवन सोनियान दार उकतें केलें. एक धांव मारून तें ड्रॉइंग रुमांतल्यान जेवणाचे कुडींत पावलें.

थंय ताच्या दोळ्यांक दिशिल्ली परिस्थिती भिरांकूळ आशिल्ली.

फर्निचर मोडून - तोडून विस्कळीत जाल्लें. दारां निखळून हुंबकळटालीं. आरमारीचीं दारां निखळून जमनीर मोडून पडिल्लीं.

उश्णतेन ताचे तोंड, हात छाती आनी पांय भाजिल्ले. ताच्या केंसांक लेगीत हुलोप लागलो. ताचे चामडेक लागिल्ल्या उज्याक लागून ती भांबावली आनी एक अनवळखी घुंवळ ताका जाणवली. ''फाटीं वच, पुराय कळाव जावचेपयलीं, भितरलो आवाज ताका सांगतालो. पूण ताचे तकलेंत कितें तरी कुटलायल्लेवरी जालें, ''तुज्या भावांक वाटाय, तुजे भयणीक वाटाय.''

सोनिया मुखार धांवलें. तें न्हिदपाचे कुडींत कोसळ्ळें. जंय शालीनी आपल्या हांथरुणाचेर बसून रडटालें आनी आपल्या ल्हान भावाक ताणे छातयेकडे धरिल्लो. ताचे केंस जे घामान भिजिल्ले ते ताच्या तांबड्या चेऱ्याचेर आयले.

''सोनिया, ओ सोनिया.'' शालीनीन दुखखावेगान आपले भयणीक वेंग मारली. सोनियान

ताका धरलें आनी दुख्खान कळवळ्ळें. ताका आनीक कितें तरी थीर दिवपासारकें सांगपाचे आशिल्लें. पूण ताचो आवाज भितरले भितर सुकलो.

आपलो श्वास रोखून ताणे आपले भयणीक उजवे वटेन धरली आनी धाकट्या भावाक छातयेकडे कवटाळ्ळो. ''सोनिया ! मामा ! पप्पा !'' धाकटो भुरगो आड्डलो.

''श्यू शालीनी. श्यू शनत.'' सोनियान भुरग्यांक म्हळें आनी तांकां थीर मेळचो म्हूण हांसपाचो यत्न केलो.

उप्रांत ताणे आपल्या हाताकडे पळेलें. हो खरोच हात आसलो की फकत मांस आनी हाड आसलें. ते सांजे दुसरे फावट ताका जाणवलें की आपल्याक पांय नाच. ताचें सगलें आंग भयान गारठलें.

''हांव हांगाच्यान भायर सरूंक शकना. आमी सगळीं मरतलीं.'' ताणे विचार केलो. पूण भितरलो आवाज ताका सांगतालो, ''सोनिया. हाल, सोनिया हाल ! तुमकां भायर सरप शक्य आसा.''

आनी सोनिया हाललें.

सुर्वेक सवकास, जशें काय लांकडी पांयांचेर चलिल्ले भशेन. ताणे आपली भयण आनी भावाचें वजे घेवन फुडें सरपाचो यत्न केलो आनी एका धपक्यान ते कुडीचे भायर सरलें. फाटल्यान ताका आयकुपाक आयलें की, आरमार धाडंकन सकयल कोसळ्ळी. ताणे रोखून धरिल्लो श्वास छातयेंत कोंडटलो काय अशें जालें आनी ताचे पांय चलनासले. तें फुडल्या दारामेरेन पावतलें काय ना, अशें दिसतालें !

''तूं पावतलें सोनिया, तूं पावतलें,'' भितरल्या आवाजान म्हळें. सोनियान आपले दांत घट्ट आवळ्ळे आनी तें फुडें सरलें.

आतां तें दारामेरेन पावलें आनी धक्को दिवन ताणे तें उक्तें केलें. आपली तकली वयर काडिनासतना ते सोपणांवेल्यान कोसळ्ळें आनी उप्रांत तें दुख्खान आड्डलें, ''ओ, मम्मी, हांव जळटां. हांव जळटां !''

तें गर्भळीत जालें आनी काळखाचे खोलायेंत बुडून गेलें.

***

''उलोवं नाका'', अशें हॉस्पिटलाचे खाटेर आशिल्ल्या चलयेच्या काळ्याभोर दोळ्यांत पळोवन दोतोरान ल्हवूच म्हळें, ''तूं बरें आसा.''

''म्हजी आवय खंय, बापूय खंय ? शालीनी आनी शनत खंय ?''

''तुजी आवय, भाव आनी भयण बरीं आसात.''

पूण हांव हांगा कित्याक ? ह्यो सगळ्यो बँडेजी कित्याक ? हें दुखता म्हाका... म्हजें तोंड..''

''तूं खूब दुर्येत आशिल्लें,'' दोतोरान सहानुभूतीन म्हळें. ''तुजे तोंड, मान आनी हात हे खूब लासल्यात. पूण भितरल्यान तूं तशेंच आसा ? तूं धैर्यवान हुशार चली आसा. जाणे आपल्या भावाक आनी भयणीक वाटायल्यां. म्हाका दिसना की तूं ह्या किरकोळ जखमांक भियेता. कितें म्हण्टा तूं सोनिया ?'

सोनियान ताचेकडेन पळेलें. ताचे दोळे दुकांनी भरिल्ले. ''ना.'' खूब वेळान ताणे म्हळें. ''ना'' हांव भियेना.

# मरण तांचेमदीं चलून आयलें

शत्रुघ्नाचे काळेभोर दोळे उत्तेजीत जाले. ताणे ताळयो मारल्यो आनी तो उल्हसीत जालो. ''कितलें अजाप! म्हाका नाटकां आवडटात. एक दीस हांव महाभारतांतलो अर्जुन जातलों.'' आनी आपली छाती फुगोवन आह्वलो, ''कृष्णा, हो म्हजो रथ थंय व्हर. जंय झुजारी आपल्या दुस्मानाआड झूज करीत आसात.''

बायलां आपल्या साडयांच्या पदरांखाला मुरगटलीं आनी भुरगीं हांसलीं. उप्रांत ताणे शत्रुघ्नाची नक्कल करून म्हळें, ''कृष्णा, हो म्हजो रथ... !''

ते सगळे बारा वर्सांच्या त्या अनाथ भुरग्याचेर मोग करताले, जो कांय वर्सांपयलीं आपल्या काकाकडेन रावपाक आयिल्लो. केलाबेरी खेड्यांतल्या सगळ्या लोकांक तो भुरगो आवडटालो, जो सदांच आदाराखातीर तयार आशिल्लो आनी सगळ्यांक हांसयतालो. आनी फकाणां करतालो.

''बरे आसा, शत्रुघ्न'' चितनदेवी जी सगळ्यांत जाण्टी आशिल्ली तिणे ल्हवूच स्वताकूच म्हळें, ''आमी तुका अशेच व्हरतले. आमी सांजे बेगीन भायर सरतले.''

शत्रुघ्नान खोशयेन उडी मारली आनी ताणे आपल्या काकाचे खोपीकडेन धांव मारली.

शिळोणी घालीत आनी गायत तो न्हालो. उप्रांत सुती शर्ट आनी चड्डी घालून तो तयार जावन, जेवणाचे धुरकट कुडींत थाळयेमुखार बसलो आनी जेवपाक सुरवात केली.

''सवकास, शत्रुघन, शाण्या सवकास.''

सवकास खावप शत्रुघ्नाक कठीण जातालें आनी ताचे आवडीचे चणे आनी शीत सवकास जेवप हे तर अशक्यूच आशिल्लें. निमाणे ताणे आपले ओंठ आनी बोटां जिबेन पुसलीं आनी म्हळें, ''कितलें बरें जेवण दिलें काकीन. म्हाका दिसता हांवें खूब खाल्लें.''

''सदांचेच भाशेन'' हांसत ताचे काकीन म्हळें.

''पूण म्हाका आज चड खावपाची गरज आशिल्ली कारण आमी आज भाटांत महाभारत पळोवपाक वतात. आमी सकाळीं परते येतले. चितनदेवी आमकां व्हरता.''

''तें बरें आसा, शत्रुघ्न, पूण काळजी घे आनी बरो वाग.''

''हय काकी, हांव बरो वागतलों.'' शत्रुघ्नान म्हळें आनी मिश्कील हांसून म्हळें, ''सदचे भाशेन.'' आनी तो भायर सरलो. ताचे काकीन मोगान हांसून तकलीं हालयली.

सूर्य अस्ताक वतालो. तेन्ना चार बायलां आनी स भुरग्यांचो एक गट भायर सरलो. अशीर रस्त्याचेर दोनूय वटेन झाडांझोपां आशिल्लीं आनी पडींग पठाराचेर ल्हव ल्हव रात जावपाक लागली. नोव्हेंबरचें शीं तांच्या नाकांत भिनतालें.

''शिंयाळो लागीं पावला.'' चितनदेवीन म्हळें आनी हेर बायलांनीय मान हालयली. शाली आपल्या खांद्याचेर आनीकूय ओडून घेतल्यो.

शत्रुघ्नान ल्हान निर्मलाचो हात धरलो आनी ल्हवूच शिळोणी घाली. ''ह्या रेल्वे रुळावेल्यान आमी वचूंया.' चितनदेवीन तांकां सुचयलें, जेन्ना ते भिलाय सावन येवपी रेल्वे मार्गाचेर पावले, ''हांगाच्यान फुलझार व्हाळ पार करप शक्य आसा.''

''पूण तें सुरक्षीत आसा व्हय ?'' शत्रुघ्नान विचारलें.

''रस्त्यापरस बरे आसा. ह्या वेळार खंयचीच आगगाडी ना. चलात बेगीन, येयात आनी कळाव करूं नाकात.''

शत्रुघ्नान बायलांक आनी भुरग्यांक रेल्वे रुळामेरेन वचपाक आदार केलो.
उप्रांत ताणे निर्मलाचो हात घट्ट धरून सगळ्यांत मुखार चलपाक सुरवात केली. एके जाड कांबळीप्रमाण रात आशिल्ली. तांकां फकत जाणविकाय जाताली आनी कांयच दिसनाशिल्लें. पूण शत्रुघ्नान फाव तो रस्तो धरिल्ल्यान ताचें चलप सोपें जालें.

''सवकास, मा, हांव इतल्या नेटान धांवंक शकना.'' ताणे एका भुरग्याचो ओड्डुपाचो आवाज आयकलो आनी चितनदेवीच्या हातांतलो ल्हान भुरगो बाबली रडपाक लागलो.

''शु शू'' चितन देवीन ताका म्हळें, ''रडूं नाका. आमी रोखडेच थंय पावतले. आतां तुका शंकुतलाची काणी खबर आसा ?''

''हय'', शत्रुघ्नान फकाणां केलीं, ''खूब भेस बरी आसा. हांवें ती शंबर खेपे आयकल्या.''

''बरें आसा''. चितनदेवीन विचलीत जायनसतना सुरवात केली, ''ती शकुंतलाची गाणी जांणी आयकूंक ना तांचेखातीर आसा आनी जाणी शंबर खेपे आयकल्या, तांचेखातीरय आसा.''

शत्रुघ्नान आपणाक वाज आयला अशें दाखयलें, पूण ताणे काणी आयकुपाक सुरवात केली. आनी शकुंतलान दुष्यंत आनी शकुंतलेच्या काणयेंतली दुख्खां आनी खोशी सांगपाक सुरवात केली.

फकत चितन देवीचो आवाज आयकुपाक येतालो, बाकीचे सगळे वोग्गी आशिल्ले. इत्यांत अचकीत शत्रुघ्न रावलो. रेल्वे रुळाचेर ल्हानसो धक्को बसलो. ताणे आपल्या मुखार आशिल्ल्या काळखांत वेध घेवपाचो यत्न केलो आनी फाटींफुडें पळोवन ताणे म्हळें, ''श्यू, आगगाडी येता काय कितें ?''

''आगगाडी, आगगाडी'' भुरग्यांनी भिवन आकांत केलो.

''ओ,'' चितन देवीन तापयले, ''कितलो मूर्ख ! ह्या वेळार ह्या मार्गाचेर आगगाडी ना. केन्नाच येना. शत्रुघ्न, बरो वाग. भुरग्यांक बेठेच भेश्टाव नाका. आनी म्हाका काणी सांगताना आडखळ करूं नाका. आतां सांगात, हांव खंय पाविल्लें, हां, बरोबर. शकुंतला रडटालें...''

शत्रुघ्नान खांदे उडयले. चितनदेवी बरोबर आसूं येता. ताणे लेगीत रातच्या आठ वरांचेर आगगाडी येतना केन्नाच आयकूंक नासली.

रोखडींच तीं फुलझार व्हाळाचेर आशिल्लया अशीर पुलाचेर पावलीं. इतल्यान अचकीत वाऱ्याचो झोत आयलो आनी पुलावेलो कठडो हाललो. इतल्यांत चितनदेवी आड्डली. 'लागीं लागीं रावात.'' पूण वाऱ्याचो नेट इतलो आसलो की ताचें कोणाकूच आयकूंक आयलेंना. हान निर्मला थरथरलें आनी शत्रुघ्नाचो हात घट धरलो.

''बेगीन, बेगीन'' बायलांनी म्हळें. चितनदेवी ल्हान गटाक घेवन पुलावेल्यान मुखार वचली. तांचीं पावलां तालार पडटालीं. बेगीबेगीन वतना मुखार वचपी शत्रुघ्नाक धुकलून तीं फुडें गेलीं. तीं पुलाच्या मध्यार पावलीं तेन्ना अचकीत रेल्वेमार्गावेल्यान आनीक एक धक्को जाणवलो.

''पूल हालता !'' एक बायल आड्डली.

''मां, पूल मोडटा !'' एके चलयेन भियेवन म्हळें.

"मूर्ख !" चितनदेवी आइडली. "हो वारो आसा, वारो. बेगीन वचात, बेगीन वचात."

शत्रुघ्नान आयकुपाखातीर कान फांकारले. तो फाटल्यान येवपी आगगाडयेचो आवाज ासलो वा ती तांच्या म्हऱ्यांतूच येताली ? पर्थून ताणे काळखांत पळोवपाचो यत्न केलो. पूण तो ळादीक जालो ना. आनी एक वाऱ्याचो झोत ताच्या तोंडार बसलो.

थंय किर्ते तरीं येतालें. शत्रुघ्नाक ताची जाणविकाय हवेंतल्यान जाल्ली. काळखाचो भेस करून ित्तें तरी येतालें. तें मुखार येतालें. एक आगगाडी एक आगगाडी.

"निर्मल, चितन देवी, धांवात धांवात, सगळीं जाणां !"

पूण थंय धांवपाक वेळूच नाशिल्लो. आपल्या मुखार वाफेचें इंजीन आशिल्ली जाणविकाय ताका ाली. तें फकत ५० यार्ड पयस आशिल्लें. तें तांचेवेल्यान वचपाचेंच. ताका इंजिनाची जाणविकाय ाली. पूण ताका ते दिसलेंना. ही भुताचीच आगगाडी आसतली हिका दिवेच नात !

"उडयो मारात, जण एकलो उडयो मारात !"

शत्रुघ्नान निर्मलाक आपल्या हातांनी उखललें आनी ताणे रेल्वे रुळावेल्यान उडी घेवन पुलाच्या ठड्याक धरलो. ताणे पळेलें की एक वाफेच्या इंजिनाचें व्हडलें धूड येतालें. ते तांचेय दिकेन ावाज करीत धुंवर सोडीत येतालें.

खीणभर ताणे विचार केलो की ताणे चितन देवीन मारिल्ली किळांच आयकल्ली, पूण त्या ंजिनाच्या आवाजांत सगळेंच विरून गेल्लें.

"देवा, आमकां आदार कर." शत्रुघ्नान थंड तिख्या कठड्याक धरलो, ताच्या हातांत तें ल्हान ्ली आशिल्लें. नेटान वचपी तें इंजिन ताच्या पांयांक चाटून गेलें.

भुताभाशेन जितले अचकीत आयलें, तितलेच बेगीन तें दिसना जालें. उप्रांत पातळिल्ली शांतताय भिरांकूळ आशिल्ली. कोणूच कसो आइडना ?

उप्रांत निर्मला आइडलें, "मामा. माम्मा" ताका जाप मेळूळीना.

शत्रुघ्नाक दिसलें की आतां चितन देवी त्या इंजिनाक, ड्रायव्हराक अशा दोगांकूय गाळी आनी श्राप दितली. पूण एकूय उतर आयलेंना. सगळे वोग्गी आशिल्ले. काळोख आसलो आनी सगळेकडेन मरण शांतताय आशिल्ली.

"चितन देवी, बाबली, सुक्कू बाय" शत्रुघ्नान तांच्या नांवान एकेक करून उलो मारलो. पूण

ताका जाप मेळ्ळीना. ताचें काळीज भियेलें. जालें कितें ! सगळी खंय आसात ?

अचकीत ताच्या कानार कुजबूज आयकूंक आयली. हळूच रडप आयकूंक आयलें आनी ग्रांत दुखवान मारिल्लो उलो आयलो.

''बाबली, ओ बाबली,'' तो काळखांत आड्डलो, ''तूं खंय आसा ?''

शत्रुघ्नाच्या हाताचेर आपलें तोंड दवरून निर्मलान म्हळें - ''म्हाका घरा वचूंक जाय.''

''हय निर्मला'' शत्रुघ्नान सदांच्या आवाजांत म्हळें, ''आमी घरा वचूंया. पूण मात्सो ाव. कितें जालां तें आमी पळोवया.'' चलयेक घेवन शत्रुघ्न परत रेल्वे रुळाचेर पावलो. ताणे उपले दोळे विस्कारून पळेले, तर ल्हान चली दुखवान तडफडटालें.

''बाबली, बाबली'' ताणे हळूच म्हळें.

''आरे देवा !'' शत्रुघ्नान म्हळें - ताचो पांय कित्याक तरी लागलो आनी आपटलो. क्का दिसलें की आपल्या पांयांक कितें तरी लागलें.



तरी तो रावलोना. ताका भुरग्यांक वाटावपाचें आशिल्लें! तो सकयल बागवलो आनी ताणे रुळाचेर सोद घेवपाक सुरवात केली. ताच्या हाताक एक ल्हान भुरगें लागलें. तें हातपांय झाडलें. ताणे ताका अचळंय वयर घेतलें आनी आपले छातयेकडेन धरलें. ''बाबली बाबली'' ताणे म्हळें. पूण ताणे जेन्ना ताचे फाटीवेल्यान हात फिरयलो तेन्ना जखमेची आनी रगताची ताका जाणविकाय जाली.

तो भांबावलो पूण ताणे धीर सोडलोना. ताका खबर आसलें की बेगीन हांगासावन भायर सरूंक जाय. एका खिणाचोय कळाव करूंक फावना. पूण तो तसो करूंक शकलोना. ''चितन देवी''ताणे काळखांत उलो मारलो, ''चितन देवी.. सुक्कुभाय !''

ताणे घेतिल्लीं नांवां वाऱ्यार गेलीं. ताका जाप मेळ्ळीना. ''यो निर्मला, म्हजो हात धर, म्हजो हात धर.'' शत्रुघ्नान कांपऱ्या आवाजांत म्हळें. ''आमी आदार घेवंक जाय.'' पूण ताका खबर आसलें की आदार येवपाक खूब कळाव लागतलो.

ताणे चलपाक सुरवात केली. रातीच्या काळखांत सगळ्यांत लागींचें खेडें मुंग्री हांगा पावाचें ताणे थारायलें. तो रेल्वे मार्ग सोडून रस्त्यार पावलो. एका हातांत निर्मलाचो हात घट करून छातयेकडेन ताणे जखमी भुरग्याक धरलें. काळखांतल्यान ताणे वाट काडपाक सुरवात केली. झाडाच्या खांदयांक लागून ताच्या तोंडाक, हाताक, पांयांक जखमो जाल्ल्यो. तो धडपडलो आनी पडलो. ताचे वांगडा निर्मलाय सकल पडलें.

तो पर्थून उठलो. ताणे ते चलयेक आपल्या पांयार उबे करून म्हळें ''कांयच जावंक ना.''म्हणून तरी ताणें म्हळें, ''हें कांयच न्हय निर्मल.''

त्या काळखांत घुगमाच्या रडपाचो आवाज घुमलो आनी ताका लागून शत्रुघ्नाक शिंत दिसलीं. ताका खबर नासलें की रात इतली काळी आनी भिरांकूळ आसता.

तो चलतनाच ताका एक मोव काळेंच सुकणें पांखां चाटून गेलें. ताणे पळेलें - ''वागोळें,''ताणे विचार केलो, ''हें वागोळें.' ऊंच तणांतल्या सळसळ आवाजान तो अजापभरीत जालो. तो रावलो आनी ताणे कान दिवन आयकले. रात कितल्याशाच अनवळखी आवाजांनी भरिल्ली. तरस, गेले हांचे आवाज आयकुपाक येताले. प्रत्येक सुवातीचेर धोको जाणवतालो. विखारी सोरोप आनी विंचू, रानटी सुणे इतलेंच न्हय तर वाग आनी कोले हांची भिरांत जाणवताली. ताणे ह्या भाक

पयस दवरपाचो आनी तेविशीं विचार ना करपाचें थारायलें. ताचो उद्देश एकूच आशिल्लो आनी तो म्हळ्यार मुंग्री खेड्यांत पावप.

आनी ताणे तें साध्य केलें. पुराय थकिले अवस्थेंत ताणे वाटेर आयिल्ले पयलेच खोपीच्या दाराचेर टकटक केलें. ''आदार करात,'' तो आड्डलो. ''आदार करात! एक ल्हान चली मरता.''

एका मिनटान सगळें खेडें जागें जावन ताचे भोंवतणी जमलें. ''कितें जालें, भुरग्या, कितें जालें!''

ताचें आंग रगतान माखलां. ''तूं जखमी जालां?''

हांव न्हय. हें ल्हान भुरगें. ताका वाटयात. आमी धा जाणां आशिल्लीं. आतां आमी तिगांच उरल्यांत. म्हाका खबर ना, हेरांक कितें जालां तें. थंय खूब रगत आशिल्लें. घडये, सगळेच जाण....''

ताचे पांय थकिल्ल्यान तो खेड्याच्या मुखेल मनशाच्या आदाराचेर सकयल बसलो. तो बेशुध्द जावन पडलो.

मुंग्री गांवचे लोक शांतपणान मध्य प्रदेशांतल्या रायघर वचपी गांवाकडल्या रेल्वे रुळाकडे गेले. कोणूच उलयनासलो. त्या भुरग्यान जें तुटक तुटक सांगिल्ले, तींच उतरां तांच्या कानांत आशिल्लीं. जेन्ना खेडूत फुलझार पुलाचेर पावले, तेन्ना तांणी आपले दिवे वयर करून पळेलें. ताणी जें पळेलें ताका लागून तांचें रगतूच गोठेलें. रुळाचेर सात मडीं तुटून पडिल्लीं आनी सगळेकडेन रगत पातळिल्लें.

खेडुतांनी आपले दिवे सकयल करून आपलें तोंड लेगीत दुसरेवटेन केलें.

''अशें हे धतरिर घडूंक शकता?'' खेड्यांतल्या मुखेल्यान विचारलें. ''आरे भुरग्या, तुवें आगगाडयेची शिळोणी आयकली ना?''

''ड्रायव्हरान शिळोणी घालूंक ना. तशेंच ताका दिवेय नाशिल्ले.''

''इंजिनाचे दिवे एकाच वेळार बंद आसतले.''

''एकूच इंजीन आनी मोडिल्ले दिवे.'' एका मनशान म्हळें, ''एक ल्हानशीच तांत्रिक चूक. पूण केदी व्हड दुर्घटणा जावंक शकता?''

''हें इंजीन चड करून दोन स्टेशनांमदीं वचपी आसतलें. पूण तें एका कुड्ड्या राकेसावरी आशिल्लें.''

''तुमी इंजिनाचो आवाज आयकलो ? तुमी तो आयकलाच आसतलो !''

''हय, हांवें आयकल्लो पूण हेरांनी आयकूंक ना वा ताणी तो आयकलो तो मेरेन कळाव जाला आसतलो.'' शत्रुघ्नान आपलें तोंड हातांनी धांपून घेतलें.

''रडूं नाका भुरग्या. तुजो कांयच दोश ना. तुवें तुका शक्य तें सगळें केलां. तुवें खूब केलां. आमी तरी इतलें करूंक पावतले आशिल्ले काय ?'' उप्रांत मुखेल मनशान आपल्या दावेकडल्या मनशाकडेन वचून म्हळें, ''ह्या भुरग्याक घरा व्हर. वच भुरग्या, देव तुजेवांगडा आसा.''

शत्रुघ्न आनी बहादूरलाल थंयसावन भायर सरले. ते मुंग्रीक परतले, जणू काय तांचेच मदीं मरण चलतालें, अशे भाशेन.

# मेरी, तुजे पुराय दयेन आमकां वाटाय

हांव तो दीस म्हळ्यार, शेनवार, २२ फेब्रुवारी १९६५, विसरचेंना, केन्नाच. आयज पंदरा वर्सां जावन लेगीत त्या दिसा असहाय भुरग्यांनी, बायलांनी आनी दादल्यांनी मारिल्ल्यो मरणप्राय किळंच्यो अजूनय म्हाका आयकूंक येतात. तांच्या ओंठांवेली निमणी प्रार्थना, ''मेरी, देवाचे आवय, आमचेर दया कर'' ही लेगीत अजून हांव विसरूंक शकना.

म्हाका म्हजे आवयन जेन्ना अपुर्बायेन वेंगेंत घेतलें आनी एका ल्हान भुरग्याभाशेन थापटिलें, ती अजून याद आसा. ''फेलिसिटस, धुवे, तुजेर देवाची कृपा आसूं, जाणे तुका म्हाका परतें दिलां. मेरीचें सदांच जैत आसूं, जिणे म्हजी प्रार्थना आयकल्या.'' ताचे उप्रांत हांवें म्हाका जें करपाचें आशिल्ले. तें त्या सगळ्या मिरांकूळ वरांनी केलां. हांव म्हजें तोंड म्हजे आवयेचे कुशीक लिपयलें आनी रडलें. म्हजे आवयन दिमी मारली आनी म्हजे पांय तेलान धुले. ही पध्दत ओरिसांतल्या झुनमीर खेड्यांत आसा आनी जेन्ना कोण एकाद्र्याचो जीव मरणांतल्यान वाटायतता, तेन्ना ही प्रथा चलणुकेंत हाडटात.

***

''धांव फेलिसिटस'', आवयन म्हळें आनी म्हज्या कपलाचो उमांव घेतलो. ''तुका खबर आसा म्हाका येवपाक आवडपाचें पूण हांव घरांत धाकल्या भुरग्याक सोडून येवप शक्य ना. आनी बापायक शेतांत काम करपाखातीर म्हज्या आदाराची गरज आसा. वच भुरग्या, देव तुजे फाटल्यान आसा आनी तो मायेचे ढालीन तुजी राखण करतलो.''

''येतां, आवय.'' म्हाका तेन्ना दिसलें की आवय लेगीत म्हज्या वांगडा न्हंयेवेल्यान पांच मैलांचेर आशिल्ल्या केसेराल खेड्यांत येवची, पूण आयज जेन्ना हांव विचार करतां, तेन्ना त्या

दिसा ती आयलीना म्हूण हांव देवाचे उपकार आठयतां...

''हाय, फॅलिसी !'' म्हजे फाटसून एक वळखीचो आवाज आयकलो, ''तुमी सळे नटून थटून खंय वतात ?''

तें फिलोमेनाबगर कोणूच आसचेंना. हांवें ताचेकडेन आडनदर, करचेलो यत्न लो. पूण फिलो, जी म्हजी सगळ्यांत बरी इश्टीण आसा. तिचेकडे दुर्लक्ष करप हें अशक्यूच आस ''हाय, फेलिसी.'' तें आइडलें आनी म्हजेसरी आयलें. ''तू केसरी साडी न्हेसतकच खूब सोभा दिसता आनी तुवें सोबसारको पोलको घाला. नवीं कानांतली लेगीत घाल्यांत ! तें खरेंच रुप्याचे ासा ?'' ताचेकडेन पळोवन ते पोल्यांतल्या पोल्यांत हांसलें. हांवें लटक्या रागान ताच्या हातार था मारलें. ''फिलो, बरें वाग आं, बरें वाग. आतां तू १६ वर्सांचे ल्हान भुरगो न्हय. मागीर आमी १ वर्सांच्या तरणाट्याभाशेन खांदे उडयले, ''हें व्हडें आतां आमकां चुकतलें. धांव !''

आमी आमच्यो साडयो मात्शयो वयर ओडून देगेवेल्यान धांवलीं. तेन्ना आमच्या तांतल्या कांकणांचो किणकीण असो खोशयेचो आवाज जातालो. लांब व्हडें देग सोडपा तयारेंत आसतनाच आमी तातूंत पावल दवरलें. ''येता. आमी सोमारामेरेन येतात,'' आम आइडले आनी आमच्या लोकांक हात हालोवन निरोप दिलो आनी खेडें आमचे नदरेभायर गे. आनी निमाणे केसेरालचे वाटेर चल्ले, थंय आमची आवटती देवी मेरी म्हळ्यार देवांचे आवयचीमेरवणूक आशिल्ली आनी तातूंत आमकां वांटो घेवपाचो आशिल्लो.

व्हड्यान न्हंयेंतल्या पांचव्याचार उदकांतल्यान वाट काडपाक सुरवात केली. त्ना सूर्य अस्ताक वतालो आनी क्षितिजाचेर केसरी रंग पातळ्ळेलो. माड वाऱ्यान धोलताले आन न्हंयेच्या दोनूय वटांनी भाताचीं रोपां धोलतालीं. व्हड्यांतले ९० दादले, बायलां आनी भुरगीं हा जोडून प्रार्थना करताली आनी देवाचे गौरवगान करतालीं. प्रवास चालू आसतना माडाफाटल्यान ल्हवूल्हवू काळोख जावपाक लागलो. पूण ही रात आसली ? हांवें व्हडें चलोवपी जाण्ट्या मनशाकडे ळें, जो मळबाकडेन पळोवन वाट काडटालो. अचकीत उदकावेल्यान एक थंड वाऱ्याचो झोत आलो आनी उदकांत ल्हारां पातळ्ळी. ताचो धक्को व्हड्याक बसलो. भुरगीं गडबडलीं.

''हें कांय न्हंय, हें काय न्हंय ! शांत रावात !'' व्हडेकारान म्हळें. पूण काळींकुट्ट कु मळबांत जंगलाचे दिकेन येतना दिसतालीं.

न्हंय बदलिल्ली. ल्हारांनी व्हड्याक धक्के मारपाक सुरवात केल्ली. भुरगीं आवयचे कुशींत रिगलीं आनी दादले मनीस हुस्क्याचे नदरेन पयस आशिल्ले देगेकडेन पळोवंक लागले. आमी न्हंयेच्या बरोबर मदीं आसले.

हांवें फिलोमेनाकडेन पळेलें. ''म्हाका पेंवपाक येना,'' ताणे म्हळें. तिचो चेरो धवो जाल्लो. म्हाका पेंवपाक येतालें. पूण व्हड्यांतल्या खूब लोकांक येनाशिल्लें. भयाचें एक ल्हार म्हज्या शरिरांतल्यान सळसळून गेलें. आमी आपसूकच प्रार्थना करपाक लागले, '' हे देवा, मळबांतल्या बापाय...'' आमची प्रार्थना काळ्याकुट्ट मळबांत विरताली आनी आमचो आवाज वाऱ्याच्या वाडट्या वेगांत बुडपाक लागलो.

''बेगीन, भुरग्या बेगीन!'' फाटीं बशिल्ल्या जाण्ट्या मनशान म्हळें. ''वादळ येत आसा. वादळांत सापडचेपयलीं आमी दुसरेवटेन पावंक जाय.'' तरणाट्या लोकांनी आपली सगळीं शक्त पणाक लावन व्हडें फुडें व्हरपाक वल्लें ताणपाक सुरवात केली.

उदक व्हड्यांत आयलें.

''मेरी, देवांचीं आवय, आमचेखातीर प्रार्थना कर.''

इतले मजगतीं, उसळिल्ल्या उदकाचेर एक धवी वीज चमकली.

''मेरी, जीजसाची आवय, दादल्यांची आवय...''

''ताणीत रावात, ताणीत रावात!'' व्हडेकारान म्हळें, ''वचत रावात.'' आमी एकामेकांक घट धरून प्रार्थना चालूच दवरली.

वादळ वाडलें. न्हंय उसळपाक लागली. व्हडें धोलूंक लागलें आनी न्हंयेच्या प्रवाहांत व्हडें वयर सकयल जावपाक लागलें. इतल्यान वाऱ्यान व्हड्याचे व्हडले वटेन इतल्या नेटान धडक मारली की आमी आमचे सुवातीवेल्यान भायर उसळ्ळे आनी एकामेकांचेर पडले. आमचे सकयल भुरगीं आयलीं. आमी एकामेकांक खोंटायताले. म्हज्या तोंडार एक कोंपर बसलो आनी एक खोंट म्हजेर बसली.

''फेलिसी, फेलिसी.'' हांवें फिलोचो सोद घेतलो. पूण आमचे हात एकामेकांकडे पावलेनात. बोटीक पडिल्ले भेगेन बोट उदकांत उमथली. थंड उदक म्हजेर आयलें आनी म्हाका भितर ओडून घेतलें. हांवें बळ एकटावन सकयल ओडपी शक्तीचो प्रतिकार करून आपणाक वाटावचेलो यत्न

केलो. एका हातान म्हाका स्पर्श केलो. पूण तो म्हज्या हातांतल्यान सुटलो आनी गेलो. फिलो, फिलो.

म्हजे काळीज फुटपाचेंच. इतल्या हांव उदकांतल्यान वयर आयलें. धांपेत. सगळेकडेन दादले, बायलां आनी भुरगीं आपलो जीव वाटवपाखातीर आकांत करतालीं. बोटीचे फळयेक धरपाचो साबार हातांनी यत्न केलो. निमाणे एक व्हडलें ल्हार आयलें आनी व्हडें पुराय तरेन उखल्लें आनी बुडलें.

हांव मदत करूंक शकना ? हांव कांयच करीनासतना ते बुडटात ते पळेतलें ? हांवें पळेलें की ३० फूट अंतराचेर एक झाडाचो बुंधो आशिल्लो, जो धरून रावल्यार वांचप शक्य आशिल्लें आनी हांव ते दिकेन दोळे बंद करून वाऱ्याआड मुखार सरलें.

''फेलिसिटस, फेलिसिटस.'' झाडाचे खांदयेंतल्यान आयिल्ले आदाराचे हात हांवें धरले. ''यो !'' मार्कूस आड्डलो, ''धुकल धुकल,'' कडकडत उब्या आशिल्ल्या गटाकडे हांव पावले. थंय रेमोंद, डेवीड, मार्कूस आनी मेरी आशिल्लीं. ती सगळीं म्हजेभाशेन जितीं आशिल्लीं. पूण हेरांक कितें जालें ? फिलो, फिलो, म्हजी अपुर्बायेची इश्टीण खंय गेली ?

''फिलो'', हांव ताचो सोद घेवपाखातीर नेटान आड्डलें, ''फिलो.''

म्हाका ताचो सोद घेवपाचो आशिल्लो. ताका आदार करपाचो आशिल्लो, ताका वाटावचेलें आशिल्लें.

''ना, फेलिसिटस ना. आमी सद्यातरी कांयच करूंक शकनात. वादळ सोंप मेरेन वाट पळोवया.''

हांव थरथरलें. उदक म्हज्या तोंडावेल्यान व्हांवतालें. ते उदक काय दुकां ?

''आयक !'' मेरीन रोखडेंच म्हळें, ''कोणाक तरी आपयतां.''

आमी आमचे कान टवकारले. हय, एका क्षीण आवाजांत कोण तरी ''आदार आदार'' म्हूण उलो मारतालो.

''कोण. तो सॅम्युएल डुंगडूंग. आरे देवा देवा.''

''तो बुडटा'' मेरीन म्हळें. ''तो वांचचोना. ताका पेंवपाक येना ! आरे देवा, तो भितर वता !''

कांयच आयकूंक येनासले. फकत वाऱ्याचो आवाज आनी उदकाचें घुसळप अशी परिस्थिती

आसली. हांवें मेरीच्या दोळ्यांत पळेलें. ते भिरांतीन व्हडले जाल्ले. उप्रांत डेवीड, रेमोंड आनी मार्कूस सगळे भयान गारठल्ले. कोणूच हालनासलो.

''आदार करात ! तो आमच्या दोळ्यांमुखार बुडटालो. सॅम्युएल डुंगडुंग, आमचो भावूच.

अचकीत एक अनवळखी शांतताय म्हज्या शरीरांत सळसळ्ळी. हांव उठलें आनी म्हजी साडी ओडली. ती एका बचक्यांत घट बांदली आनी म्हज्या पेटीकोटाभोंवतणी गुठलायली. उप्रांत हांव उठलें आनी काळ्याशार उदकाक पळोवन आड्डलें, ''सॅम्युएल, सॅम्युएल डुंगडूंग. धरून राव, हांव येतां !'' आनी हांवें न्हंयेंत उडी घेतली.

हांवें रोखडेंच नेटाच्या वाऱ्याआड पेंवपाक सुरवात केली. म्हजो पेटीकोट आनी म्हजी साडी भिजिल्ल्यान म्हजें वजन वाडून हांव बुडपाक लागलें. ''सॅम्युएल !'' हांव आड्डला, ''हांगा यो, हांगा यो.''



म्हज्या हाताक कितें तरी लागलें. उप्रांत सॅम्युएलाची तकली लागली. तो इतलो लागीं आशिल्लो की हांवें ताचे भिरांकूळ दोळे पळेले. ''वाटायात,'' तो आड्डलो, ''वाटायात.''

''ही साडी धर.'' हांवें ताका म्हळें, ''हांव तुका ओडटां. हांगा धर.'' हांवें म्हजे कमरेंतल्यान साडी काडून तिचें एक तोंक म्हज्या हातांत धरलें आनी वजे आशिल्लें बंडल ताचे दिकेन भिरकटायलें. पूण वाऱ्याक लागून तें ताचेमेरेन पावलेंना.

''धर डुंगडूंग साडी धर.''

ते उसळिल्ले न्हंयेंत सॅम्युएल मुखार येवपाक धडपडटालो.

''धर तें, डुंगडूंग. धर तें !'' म्हजे फाटल्यान आवाज आयलो.

''पवित्र जेजू, ताका तें शक्य ना ! तो बुडटा !''

त्या काळखांत खंयच्यान तरी मार्कूसचो आवाज म्हजेमेरेन पावलो, ''फेलिसिटस, फेलिसिटस, फाटीं यो.'' हय, हांव फाटीं सरपाचें पूण सॅम्युएलाक सोडून तें शक्य नासलें !

इतल्यांत साडी घट ओडली, ती पिजूंन म्हज्या हातांतल्यान सटकली. हांवें मात्सो नेटानूच तो कपडो चाबून धरलो. सरभोंवतणी पळेलें आनी त्या झाडाच्या उंचाकडेन हांव वचपाक लागलें. हांवें हातांनी आनी पांयांनी उदकांत नेटान पेंवपाक सुरवात केली. हांवें दातांनी साडी घट्ट धरिल्ली आनी जेन्ना म्हाका दिसलें की, म्हजेकडल्यान हें जायना. तेन्ना एक निमाणी संद म्हूण हांवे दोळे उक्ते करून संवसाराकडेन पळेलें आनी हांवे हो यत्न सोडपाचोच इतल्यान म्हज्या मुखार चार भियेल्ल्या दोळ्यांच्यो जोडयो आयल्यो.

''फेलिसिटस, यो, यो !'' आसा ना ते तांकीन हांवें म्हाकाच फुडें धुकलून मार्कूसाचे हात धरले. हांव पावलें. सामकें सुरक्षीत. आनी सॅम्युएलाक वयर काडलो, जो खांकतालो. उप्रांत ताच्या पोटांतलें उदक भायर पडलें.

थरथर कांपत, थकिल्ले - भागिल्ले अवस्थेंत, रडत आमी एकामेकांक धरून प्रार्थना केली, ''देवा, आमच्या मळबांतल्या बापाय.''

''वांचय, आदार कर !'' वाऱ्यान हें उतर आमचेमेरेन हाडलें. ''आदार कर.''

सॅम्युएल डुंगडूंगान अचळंय आपली तकली वयर काडली आनी म्हजेकडेन पळेले. ''तो किडो,'' ताणे म्हळें, ''तो बुडटा.''

शांतताय - आमचे पैकी कोणूच उलयलोना. वाऱ्यान लेगीत श्वास रोखून धरिल्लो. हांव हळूच

म्हज्या पांयाचेर उबें रावलें आनी आनीक एक फावट त्या उसळिल्ल्या उदकांत उडी घेतली.

***

ते दुर्दैवी फेब्रुवारी १९६५ चे सांजे, आमच्यांतले सुमार पन्नाशेक जाण मेले. लिओ आनी ताचें सगळें कुटुंब, मागरिट आनी ताची भुरगीं आनी फिलो म्हजी अपुर्बायेची इश्टीण.

वादळाची खरसाण सोंपतकच आमी झाड सोडलें आनी पेंवन देगेर पावलीं. थंय आमी जे वाटावल्ले. ते एकठांय जाले आनी हेर लोकांची वाट पळेत रावले. आमी वाट पळेताले - पूण ती फळादीक जाली ना.

# रातीकडेन हल्लो

१४ फेब्रुवारी १९८० ची रात सामकी थंड आनी काळखी आशिल्ली. चंद्रीमान काळ्या कुपांतल्यान भायर सरपाचो यत्न केलो. पूण तो जमलोना. म्हूण ताणे सोडून दिलो. दोंगरांतल्यान हिमवारें ताज्या बर्फाचो परमळ घेवन येतालें. आनी उत्तर प्रदेशांतल्या रामनगर ह्या हरिजन खेड्यांतल्या अशीर निर्मनीस गल्ल्यांनी तो वास भरून गेल्लो. त्या नेटान आयिल्ल्या वादळान लांकडी दारां खळखळ्ळीं. तांच्यो लोखंडी चौकटी हालल्यो, जणू काय तो भीतर येवपाची परवानगीच मागतालो. ताणे फातराच्या आनी मातयेच्या जनेलांतल्यान भितर घुसून सरभोंवतणी पासयो मारपाक सुरवात केली.

सतीशकुमार फुलसिंग हाणें वाऱ्याची शिळोणी आयकली आनी तो थरथरलो. जेवपाचे कुडीलागीं आशिल्ले कुडींतल्यान ताणें पातळशी रजय काडून घेतली. तरी ताका थंडी लागतालीच. एके खाटीचेर ताचो बापूय खांकतालो आनी ताणे कूस बदल्ली, दुसऱ्यार सीता, ताची धाकली भयण, आपले आवय म्हऱ्यांत बशिल्ली. तिणें ताका न्हिदेंतूच म्हळें, ''श्यू'', तिणे झेमेंतूच म्हळें आनी पिंजिल्ली कांबळ ते धाकले चलयेचेर घाली.

ताचे फुडें ताचो भाव आशिल्लो. ताणें मात्शी चुळबूळ केली. ''हो शिंयाचो कुडकुडो'', ताणें म्हळें, ''पांगरुपा खातीर आनीक कांय ना कितें ?''

सतीशाक खबर आसलें की आनीक कांयच नासलें म्हूण. ताचो बापूय मानाय म्हूण कांय रुपया जोडटालो आनी ताचो व्हडलो भाव विनोद, रिक्षा चलोवन जे पयशे हाडटालो तातूंत आठ जाणांचें कुटुंब चलोवप कठीण जातालें.

सतीश लेगीत काका मनचंदाच्या गोरवांक राखून कांय पयशे घरा हाडटालो. मनचंदा तसो गिरेस्त नाशिल्लो. पूण तो आनी ताची बायल जाण्टी जाल्ली आनी तांचे पूत खूब पयलींच खेडें सोडून आपलें नशीब आजमावपाखातीर पाटण्याक गेल्ले. काका मनचंदाक तेन्नासावन तांची कांयच खबर नाशिल्ली. सतीशकुमार फुलसिंग पर्थून कडकडलो. हे फावटीं थंडेक लागून न्हय, पूण हे फावटीं आपल्या अज्ञात फुडाराक लागून. जीण ही कठीण आसता, जर तो मनीस गरीब आसत जाल्यार.

थंयसर.. तो काय वारो नासलो; तो अनवाणी पांयांनी पांख्याचेर मारिल्ले खोंटीचो आवाज आशिल्लो. उप्रांत हळू आवाजांत हुकूम आयलो; "चल, मनशा, दावेवटेन, फुडल्या घरांत, हांव सांगतां, फुडल्या घरांत."

सतीश स्तब्ध जालो.

"सतीश ?" ताच्या बापायन काळखा कुडींतल्यान उलो मारलो," तो तूं आसा ?"

"ना, बाबा. म्हाका दिसता भायर लोक आसात."

"कोण ? खंय ?" ताची आवय जागी जावन आड्डली. "पाडूक, तें पाडूकच आसा."

"तो एकाद्रो बेवारशी सुणो आसूं येता." ताच्या बापायन म्हळें, पूण तातूंत व्हडलोसो दम नाशिल्लो. "हांव ताका कुलूप घालतां."

सतीशान आयकलें की ताचो बापूय जोतें घालपाक लागलो आनी तशें करतना आडखळ्ळो. अचकीत काळखांतली स्तब्धता एका नेटान लांकडाचेर मारिल्लया आवाजान भंग पावली.

"उक्तें करात," एक घोगरो आवाज आयलो. "दार उगडात नाजाल्यार आमी मारतले !"

ते कुडींतलो कोणूच हाललो ना. उप्रांत ताची आवय कुजबुजली. "दरोडेखोर, आवयस देवा !" एका खिणांत ताचो बापूय दाराकडेन पावलो आनी ताणे तें धुकलून उक्तें केलें. "आमी येतात" सतीशकुमारान म्हळें आनी आपल्या बापायपयलीं तो आंगणांत पावलो.

एक गुळी रातीचो भंग करून गेली. ताचे फाटोफाट एके बायलेचो भिरांकूळ रडपाचो आवाज आयलो, "आदार करात, आदार करात, दरोडेखोर !"

ताच्या बापायचो रूंद हात सतीशाच्या खांदार पडलो. "राव !" ताणे ताकतिकेन म्हळें, "राव." सतीश रावलो आनी काळखांत सोद घेवपाक लागलो.

प्रत्येक खिणाक वेदना वाडटाली. अचकीत एक काळी सावळी मनचंदाच्या घराचेर झेपावली आनी काळखे राती नाच जाली. ''तें काका मनचंदाच्या पांख्याचेर आसा,'' सतीशान म्हळें, ''आमी ताका आदार करूंक जाय.''

''हय, भुरग्या. आमी हेरांक आपोवंक जाय.''

''हांव वतां'', सतीशान म्हळें आनी आंगण हुपून वचपाखातीर म्हूण ताणे पळेलें.

तो अर्धा अंतराचेर पाविल्लो, तेन्ना फारपेटाच्यो तीन गुळयो फुडें वतना हांवें पळेल्यो आनी दुसरो एक आवाज आड्डतालो, ''दार उकतें करात भिवकुऱ्यांनो, नाजाल्यार आमी तें मोडून काडटले !''

मनचंदाचे जाण्टे आवयन जाल्ले भिरांकूळ प्रकाराक लागून मारिल्ले किळांचीक लागून सतीशाक लेगीत कांपरें भरलें. तो ताकतीक करपाक लागलो. ''दार मोडलांशें दिसता'', ताणे विचार केलो ''म्हाका बेगोबेग आदार करूंक जाय.'' वण्टीक सावळेभाशेन दसून तो ल्हवूच सकयले गल्लीकडे धांवलो.

रस्त्यावेल्या सगळ्या दारांचेर खटखटावन तो आड्डलो. ''दार उक्तें करात.'' आदार, आदार, डाकू आयल्यात आनी ताणी काका मनचंदाचें घर फोडलां. आदार करात !''

दारां उक्तीं जावपाक लागलीं. न्हिदिल्ले चेरे जनेलांतल्यान पळोवपाक लागले. ''सतीश, किर्ते आसा ? किर्ते चल्लां ? आमी आयकल्लो, तो फारपेटाच्या गुळयांचो आवाज नाशिल्लो !''

''दरोडेखोर, दरोडेखोर !'' सतीश आनीक एक फावट आड्डलो. ''मनचंदाच्या घरांत. तुबकां बंदुको घेयात. तें पुराय खेडें लुटचे पयलीं.''

''तुबकां ?'' एका जाण्ट्या मनशान अजापभरीत जावन विचारलें. ''गांवांत शस्त्रां नात. आमी गरीब. आमकां कोणावांगडाच लडपाचें ना. आमकां आमच्यो मुठीच पुरो. आमचेकडेन वागडावपासारकें आमच्या जिवाबगर आनीक कांयच ना.''

''पूण आमी झगडुया !'' आनीक एक मनीस आड्डलो. ''बडयो घेयात. फातर नाजाल्यार लोखंडी कांबी घेयात. बेगीन.''

सतीशान प्रत्येक दाराचेर थापट मारून लोकांक जागे करपाचें काम चालूच दवरलें, ''दरोडेखोर आयल्यात. दरोडेखोर आयल्यात.''

ही खबर रोखडीच गांवांत रानाक लागिल्ल्या उज्याप्रमाण पातळ्ळी. गांवांतल्यान सगळे लोक मनचंदाच्या घराकडे येवपाक लागले. तांचे चेरे गंभीर आशिल्ले. तांच्या हांतात कोयत्यो आनी बडयो आशिल्ल्यो. कांय अंतरावेल्यान तांकां दरोडेखोरांचो आवाज आयकुपाक येतालो. "हांगा येवनाकात. नाजाल्यार आमी तुमकां सुण्याभाशेन मारून उडयतले !"

आवयस् ! ते आमकां मारतलेच."

"तुमकां प्रत्येकाक मारतले" हें उतर आसलें आनी ताचे फाटोफाट दोन गुळयो हवेंत सुटल्यो.

"आमी घराक रेवाडो घालूकं जाय." सतीशाच्या बापायन म्हळें, "कशेय करून ते वण्टीचेर चडात."

"कशे ?" एका ल्हान मनशान आपल्या मिशयांक पीळ दीत आपलो कुरतो - पायजमा सांबाळीत विचारलें. "ज्या खिणाक ते आमकां पळेतले, तेन्ना ते गुळी घालतले."

"ही रात आमच्या फायद्याची आसा. ते आमकां पळोवंक शकचेनात." विनोदकुमार फुलसिंगान म्हळें, "चलात."

"पूण आमी लेगीत तांकां पळोवंक शकचेनात." परत त्या मिशयाळ्या मनशान म्हळें.

ही उलोवणीं चालू आसतनाच सतीश कोणाच्याच लक्षांत येनासतना सटकलो. घराचे प्रत्येक सुवातीची वळख आशिल्ल्यान तो माजरा सारको वण्टीचेर चडलो. थंड फातरांक धरून कसो तरी वयर पावलो, आती ताणे आपल्या शेजाऱ्याच्या आंगणांत पळेलें. दोन सावळ्यो मनचंद्राच्या पांख्याचेर आयल्यो आनी काळखांत ना जाल्यो. उजवे वटेन, चिंचेच्या झाडा फाटल्यान एक बॅटरेचो उजवाड जमनीर तशेच दारार लेगीत पडलो. "तुमच्यांतल्या कोणेय मात्शी चुकीची हालचाल केली. तर तुमकां सगळ्यांक मारून उडयतले." झाडाफाटल्यान एक आवाज गुरगुरलो.

उजवाडाचो झोत सगळेवटेन पडपाक लागलो आनी तो सतीशाच्या तोंडार लेगीत येवपाचो. "दरोडेखोर" ताणे दांत चाबून म्हळें. "आमी तुका दाखयतां" गच्चेर आशिल्ल्या तीन खांब्यांफाटल्यान सतीशान आनीक एक आकृती पळेली आनी ती हांसताली. तो जसो बावगलो, तशे ताणें म्हळें, "तुमी सगळे आपापल्या घरा वचात, हुंदरांनो !"

सुमाराभायर राग येवन लेगीत सतीश तसोच मुखार घरालागीं सरकुपाक लागलो. तशें करतना

ताणे आकृतीवेली आपली नदर कशीच काडलीना. ती आकृती आपल्या हातांत बंदूक धरून तयारेंत आशिल्ली.

उजवाड सतीशाचे दिकेन आयलो. चेरो सकयल करून तो वण्टीचे वयरूच रावलो आनी वाट पळोवंक लागलो. ताणी जर ताका पळेलो तर तो मेलोच. फकत तीन फुटांचेर उजवाड येवन थांबलो, थंयच घुंवलो आनी पर्थून तो दाराचेर पडलो.

सतीश वण्टीवेल्यान सरकत रावलो. ताच्या हातांतलो एके विटेचो ताबो गेलो आनी ती खिळखिळी जाली. एक खिणाचोय कळाव करीनासतना तो आपल्या थोंपराचेर उबो रावलो आनी आपली सगळी शक्त एकठांय करून ताणे ताचेपसून धा यार्डांचेर आशिल्ल्या तुबकांधाऱ्याचेर ती वीट सगळे तांकीनिशीं उडयली. ती ताचेर इतले वडीन बसली की तो आनी तुबक दोनूय जमनीर पडलीं. सतीश उडी घेवन आपल्या आंगणांत येवचे पयलीं सतीशान पळेलें की तो दरोडेखोर रागान आड्डतालो. ''धरात तांकां, मारात तांकां!'' ताणे तुबक वयर घेतलें. ताचो चाप एकदां, दोनदां तीनदां ओडलो, पूण तुबक शांत आशिल्ली.

सतीशान जमनीर उडी मारली. रस्त्यार पावलो आनी थंयच्यान सरळ आपल्या बापायचे कुशींत आयलो. ''आमकां व्हडलीशी आस्त ना'', ताच्या बापायन म्हळें, ''ते सुमार णव लोक आसात आनी तांचेकडे रायफली आनी बॅटऱ्यो आसात. आमचेकडेन कांयच ना.''

''आमचेकडेन तुबकां नात, पूण आमचेकडेन उजवाड आसा.'' सतीशान म्हळें. तो घुंवलो आनी आंगणांत जंय पाड्डूक भयान एका कोनशाक आशिल्लें. थंय गेलो. ताणे बेगोबेगीन तणाची एक पेंड घेतली आनी घट्ट बांदली. ताणे भियेल्ल्या जनावराक शांत केलें आनी ताचे फाटीर थापटिलें. उप्रांत तो धांवत गल्लींत आयलो. जंय मनचंदाच्या दाराकडे सगळे खेट्टून जमिल्ले.

''विटो हाडात, फातर हाडात, आमी कितें तरी करूंक जाय. आमकां खेडें वाटावपाचें आसत तर,'' कत्तार सिंगान कोयतो नाचयत म्हळें.

''काका,'' सतीशान त्या रूंद खांद्याच्या मनशाक म्हळें, ''तुमचेकडेन फस्क आसा?''

''फस्क?'' कत्तार सिंगान विसरभोळेपणान म्हळें, ''फस्क.'' ताणे आपलें बोल्स तपासून पळेलें आनी एक फस्क सतीशाच्या हातांत दिलें. उप्रांत तो फाटीं सरलो आनी ताणे कुलूप घाल्ल्या दाराचे दिकेन व्हडल्यान किळांचलो. ''खोंट मारात ताचेर, पांख्याचेर चडात. मुखार येतात. तुमी

इतले कित्याक भियेल्यात ?'' हांव झगडटलों.

''हांव लेगीत झगडटलों,'' सतीशाच्या बापायन म्हळें.

''हांवूय'', सतीशान म्हळें आनी तो तांच्या आंगणाकडेन दार काडपाखातीर म्हूण धांवलो. ताणे आपल्या हातांत आशिल्ली तणाची पेंड पेटयली. ताच्या नाकातोंडांत धुंवर वचपाक लागलो. तो खांकलो आनी एका ल्हानशा दारान काळोख आशिल्ल्या आंगणांत ताणे प्रवेश केलो. यदोळचो बॅटरेचो उजवाड आतां थंय नाशिल्लो.

''आतां,'' सतीशान विचार केलो, ''केलें जाल्यार आतां, नाजाल्यार केन्नाच ना.'' तो ते उक्ते सुरवातींतल्यान फाटीं गेलो. हातांत उजो लागिल्ली तणाची पेंड धरली आनी ताणे तीं मनचंदाच्या आंगणांत मदेगात उडयली.

उल्कापाताप्रमाण काळखांत ती तणाची पेंड जमीर पडली आनी आंगणांत उजवाड जालो. सांवळ्यो खांबे, झाडां आनी पेटयांफाटल्यान आलाशिरो घेवपाक धांवल्यो. ''गुळयो घालात, गुळयो घालात !''

सतीशान मुखार धांव घेतली. ताचेर फारपेट जालो. कांय गुळयो थोड्याच इंचांनी ताका चाटून गेल्यो. ताणे शिकार जाल्ल्या सोंश्याप्रमाण त्या आंगणांतल्यान धांवाधांव केली.

''आं !'' एका बळिश्ट मनशान जाका खाड आशिल्लें. ताणे व्हारांदांत उबो रावन म्हळें, ''हें घे'' आनी आपले तुबक वयर काडलें.

सतीशान आपले दावेवटेन उडकी घेवन आपणाक एका शेणयांच्या ढिगाऱ्याफाटल्यान लिपयलो. ताणे स्वास रोखून धरलो. ताच्यो दोनूय कडो हजारांनी सुयो तोपिल्लेवरी दुखताल्यो, सतीशान आपणाक लागीं लागीं त्या ढिगाऱ्याखाल गाडूनच घेतलो आनी तो वाट पळेतालो. फारपेटाच्यो गुळयो त्या शेणयांचे राशींत घुसल्यो आनी उप्रांत तुबका शांत जालीं.

''हो उजो वाटेवेल्यान पयस करात.'' दरोडेखोरापैकी एकान म्हळें, ''उजो पालयात.''

''ओ, नाका,'' सतीशान विचार केलो. ''हें आमचें भेस बरें शस्त्र.'' तो आपल्या पांयाचेर आडवो जालो आनी ताणे घराकडेन पळेलें. थंय एक मनीस काळो कुरतो आनी कालसांव घालून आशिल्लो. ताणे कारवाय करपाखातीर उडी घेतिल्ली. तो मनीस मुखार येतालो, इतल्यान ताचेर एक वीट बसली, ताका लागून तो गडबडलो आनी सकयल पडलो. सतीशान फाटीं पळेलें आनी

ताका काका किशनचो जैतीवंत चेरो वण्टीफाटल्यान अदृश्य जातना दिसलो.

''धरात, सगळ्यांक धरात !'' ताच्या बापायचो उत्तेजन दिवपी आवाज सतीशाक नवी प्रेरणा दिवंक पावलो. ताणे शस्त्राखातीर सरभोंवतणी पळेले, ताचो हात दोन - तीन विटांचेर पडलो. ताणे एक वीट उखल्ली आनी सगळ्यो शिटकावण्यो विसरून ताणे ती वीट त्या दरोडेखोराचेर मारली. तो स्तब्ध जालो आनी फाटीं पडलो. ताचो हात ताच्या जबड्यार गेलो आनी तो दुख्खान कळवळ्ळो. ताचो चेरो रागान तांबडो जालो. ताणे सरभोंवतणी पळेलें आनी आपल्याचेर हल्लो करपी कोण म्हूण ताचेर हल्लो करपाचे नदरेन पळेलें. तो उजो लागिल्ल्याचें विसरलो आनी ताणे सतीशाकडे पळेलें. त्या तणाच्या उज्याच्या उजवाडांत एक खीण दोगांयचीय नदरानदर जाली. सतीशान आपले जिणेंत इतली भयंकर आनी तिरस्कार आशिल्ली नदर पळोवंक नाशिल्ली. तो थरथरलो आनी दुसरी वीट घेवपाक म्हूण सकयल बावगलो. ह्या वेळार ताणे त्या मनशाचो कपाळमोक्ष केलो. तो मनीस दोन फावटी घुंवलो आनी जमनीर पडलो.

सतीशाच्या तोंडांतल्यान खोशी परगटली. ''आमी ताकां धरतले, आमी तांकां धरतले,''ताणे खोशयेन म्हळें आनी बैलगाडयेचे फाटल्यान आशिल्ल्या दरोडेखोराचे दिकेन तिसरी वीट मारपाची तयारी केली. आनी ताणे ती मारली. पूण उज्याक लागून ताची लिपून बसपाची सुवात दिसपाक लागली.

सतीशान सरभोंतवणी पळोवन आनीक एकदां नेम धरलो. इतल्यान एक बंदुकीची गुळी ताच्या चेऱ्याचेर उजवे वटेन बसली. तेच स्थितींत सतीशकुमार फुलसिंग वीट घेवपाचो यत्न करीत आसतनाच एक उतरूय काडीनासतना तो जमनीर पडलो.

''सतीश, पुता'' एक आवाज आयलो. सतीशकुमाराक आपल्या बापायचो आवाज आयकूंक आयलोना. तशेंच आंगणांत दवरिल्ल्या साबार खेडूतांचें आड्डप ताका बादलेंना.

ताका आपल्या भावान ओडून एके कुडींत व्हेलो आनी ताचेकडेन तो एक अनवळखी नदरेन पळोवंक लागलो. इतलेंच ताका अस्पश्टपणान जाणवले. उप्रांतचें मात ताका कांयच खबर ना.

मनचंदाच्या आंगणांत गांवकारांनी विटो, फातर आनी बडयांनिशीं दोन वरां दरोडेखोरांवांगडा भिरांकूळ झूज केलें, हेंय ताका खबर ना. ताणे कोयतेन आनी हातांन आपलो जीव आनी आपल्या कुटुंबाच्या रक्षणाखातीर संघर्श केलो. दरोडेखोरांच्या मुखेल्याक धरीमेरेन आनी उप्रांत तो धुल्लांत

तांचेमुखार वांकमेरेन ताचे हात फाटल्यान बांदले. तोमेरेन ताणे झूज केलें.

निमाणे पोलीस येवन ताका आनी ताच्या वांगड्यांक घेवन गेले, तो खीण कोणूच विसरूंक शकना.

आनी रामनगरांतले लोक त्या बाल धैर्यवान विटान आपलो उजवो दोळो वगडावन खेड्याचें णव भिरांकूळ दरोडेखोरांपसून जें संरक्षण केलें, तें केन्नाच विसरचेनात.

**सयाल ल्हानुभाय भोयाचो** जल्म १ जून १९६७ दिसा गुजरातांत जालो. ताचें शिक्षण प्राथमिक शाळेंत जालें. तें गुजराती उलयता. ताका दोन भाव आनी एक भयण आसा. ताचो बापूय कामगार जावन आसा. संगीत, वाचन आनी खेळ हे ताचे छंद आसात.





**सी. गोविंदन** हाचो जल्म १५ एप्रील १९६६ दिसा तामिळनाडूंत जालो. ताणे कुरुबरपल्ली हायस्कुलांत शिक्षण घेतलें. तो तमिळ आनी इंग्लीश उलयता. ताका ६ भाव आनी दोन भयणी आसात. ताचो बापूय कामगार आसा. वाचन, संगीत आनी खेळ हे गोविंदनाचे छंद आसात.

**सोनिया सिन्हा** हाचो जल्म ३ नोव्हेंबर १९६९ दिसा बिहारांत जालो. ताचें शिक्षण पाटणाच्या सेंट जोसेफ कॉन्वेंट शाळेंत जालें. ताका एक भाव आनी एक भयण आसा. तिचो बापूय, भुरग्यांचो दोतोर, हाका पुस्तकांत वर्णिल्ल्याप्रमाण एका उज्याच्या अपघातांत मरण आयलें. वाचन आनी खेळ हे ताचे छंद आसात.



**शत्रुघ्न लाल साहू** हाचो जल्म १६ डिसेंबर १९६६ दिसा मध्य प्रदेशांत जालो. ताणे दुर्ग हांगाच्या नेहरू प्राथमिक शाळेंत शिक्षण घेतलें. तो छत्तीसगढी आनी हिंदी उलयता. ताचे आवय - बापूय भायर पडटकच, जिल्ला साहू संघ हाणे ताका पोसको घेतलो. लोककलेच्यो कार्यावळी, खेळ आनी साहस कथा वाचप हे ताचे छंद आसात. ताचो हावेस इंजिनियर जावपाचो आसा.





**फेलिसिटस सोरेंग** हाचो जल्म २१ जून १९५० दिसा ओरिसांत जालो. मॅट्रीक जातकच, रुरकेलाच्या सरकारी हॉस्पिटलांत ताणे नर्सिंगाचे शिक्षण घेतलें. ते ओरिया, हिन्दी आनी इंग्लीश उलयता. ताचो बापूय शेतकार आसा. संगीत आनी हस्तकला हे ताचे छंद आसात.

**सतीश कुमार फुलसिंग** हाचो जल्म १९६८ त उत्तर प्रदेशांत जालो. तो शाळेंत गेलो ना. पूण लोकांचीं गोरवां राखून ताणे आवय - बापायक अर्थीक आदार दिलो. तो हिन्दी उलयता. ताका दोन व्हडले भाव आनी एक भयण आसा. ताचो बापूय कामगार आसा.



*ह्या पुस्तकांत आस्पाविल्ल्यो स काणयो, राष्ट्रीय पुरस्कार मेळोवपी भुरग्यांच्या साहसाच्या खऱ्या कर्तुपांचेर आनी शौर्याच्या काणयांचेर आदारिल्यो आसात. लेखकान आपले कल्पनाशक्ती वरवीं तशेंच मुलाखती आनी प्रस्नावळींक मेळिल्ल्यो जापो हांचेर आदारून ह्यो सगळ्यो काणयो बरोवन काडल्यात. तशेंच हे पुरस्कार दिवपी भारतीय बाल कल्याण मंडळान दिल्ली माहितीय ह्या काणयांनी जोडल्या.*











रु. 8.00

नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया